ಸಶಕ್ತ್ ರುಪಾನ್ ಕರ್ತಾ.)

ವೆಗ್ಳಿಂ ವೆಗ್ಳಿಂ ಪಾತ್ರಾಂ ತಾಂಚೆಂ ಚರಿತ್ರ ಚಿತ್ರಣ್ ಕುಶಲತಾಯೆನ್ ಜಾಲ್ಯಾ. ಸಗ್ಳಿಂ ಪಾತ್ರಾಂ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಪ್ರಸಂಗಾನುರೂಪ್ ಸಫಳತಾಯೆನ್ ಪಿಂತ್ರಾಂವ್ಚ್ಯಾಂತ್ ಲೇಖಕ್ ಸಫಳ್ ಜಾಲಾ.

-ರಾಹು-ಕೆತು ದೊನಯ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ವಾಹ್ನಾಚ್ಯಾ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾನ್ ಲಾಗ್‌ಲ್ಲೆ ಪರಿಂ ಕಾಜಿತಾನ್ ಡ್ರಾಯ್ವಿಂಗ್ ಕರ್ತಾಲೊ (324).

ರಾಹು-ಕೆತೂಚಿ ಮಹಾದಶಾ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾನ್ ಲಾಗ್ಲ್ಯಾರ್ ಕಿತೆಂ ಜಾತಾ? ಮನ್ಶಾಚೆ ಹಾಲ್ಚಾಲ್ ಕರೂನ್ ಉಡಯ್ತಾ. ಹಾಂಗಾ ರಾಹು-ಕೆತು ಕೊಣ್ ಹೆಂ ಆನಿ ಸ್ಪಷ್ಟ್ ಕರ್ಚಿ ಗರಜ್ ದಿಸ್ನಾ.

'ಕಾಳೆಂ ಭಾಂಗಾರ್' ಕಾದಂಬರಿಂತ್ ಆನೀಕೂಯ್ ಉತ್ತ್ರಾಂ ಭಾಂಗ ಾರ್, ಸಮಾಜ್ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತಿ ಭಾಂಗಾರ್ ಸಮಾಜಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್, ಭಾಸ್ಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್, ವ್ಯಾಕರಣ್ ಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್ ಭಾಂಗಾರ್ ಲಿಪೂನ್ ಆಸಾ. ಹಾಚೆಂ ಅಧ್ಯಯನ್ ಜಾವ್ಚೆ ತೆಂ ಭಾಂಗ್ರಾಳ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಮೊಗೀನ್ ಕರ್ಚೆಂ... ಕಾಳ್ ಸಮೃದ್ಧ್, ಸಮಯ್ ಬಳ್ವಾನ್.... ಬಹುತರ್ನ್ಯಾ ವಸುಂಧರಾ....

ಹೆಂ ಲೇಖಿನ್ ಖೊಬ್ ಲಾಂಬ್ಲಾಂ. ಪೂಣ್ ನೊರಾ ವಾ ನೂರೀಚಿಂ ಉತ್ರಾಂ, ಏಕ್ ಲ್ಹಾನ್ ವ್ಯಕ್ತಿತ್ವ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಕರ್ತೃತ್ವಾನ್ ಕಿತೆಂ ಕರುಂ ಶಕ್ತಾ ತಿ ಪ್ರೇರ್ಣಾ ಆಮ್ಕಾಂ ಸಗ್ಳ್ಯಾಂಕ್ ಮೆಳುಂ ತಿಂ ವಾಕ್ಯಾಂಚಿಂ ದೆಖಿ ದಿವ್ನ್ ಲೆಖ್ ಸೊಂಪಯ್ತಾ.

– 'ಜಿಣೆಂತ್ ಕೊಣ್ ಕಸ್ಲ್ಯಾಕ್ ಪ್ರಮುಖತಾ ದಿತಾತ್ ಮ್ಹಳ್ಯಾಚೆರ್ ಸರ್ವ್ ಹೊಂದೊನ್ ಆಸಾ' (132).

– ಚಡಾವ್ತ್ ಹರ್ ಎಕ್ಲ್ಯಾಕ್ ಎಕ್ ಸಾಂಗಾತಿ ಆಸಾ ಪೂಣ್ ಹೊ ಸಾಂಗಾಂತ್ ಜಿಡ್ರೊಮಾ ಪರ್ಯಾಂತ್ ಪಾವ್ತಾ ಮ್ಹಣ್ ಹೆರಾಂನಿ ಉಲೊಂವ್ಚೆಂ ಸಾರ್ಕೆಂ ನ್ಹಯ್ (132).

– ಸುಕ್ರಾರಾಚೆಂ 'ಪಿಕಪ್' ಚಲ್ತಾ....ಮ್ಹಣ್... (132).

– ಪಾನ್ 328, 329, 324, 325.....ಹಾಂಗಾ ನೊರಾಚಿ ವಾಗ್ಲೂಕ್ ತ್ಯಾ 'ಅರ್ಪಾಂಚೊ ದಗ್ಲೊ' ಘಾತಿಲ್ಯಾ ಕಾಜಿತೊನಾ ಸಮೊರ್....ಓಂದಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಉತ್ರಾವಳ್ ಮರ್ಕಟ್-ತಿರ್ಕಟ್ ಪೂಣ್ ಸಿಖಾಲಸ್. ಮಂಗ್ಳುರಿ ಚಿಕು ಜೆರಿ, ನೊರಾ ಕಾಜಿತೊನ್, ಸಲಿ.... ಆಕ್ರಮಣಾ ವೆಳಾರ್ ನೂರೀಚೆ ನೂರ್ ಖಿರೆಂಚ್- 'ತೀನ್ ಫುಟಾಂಚಿ ಪಾಕ್ಲಿ' (329) ವಾಮನ್ ಆಸೂನ್ ಪಿರಾಟ್ ಕಾರ್ಯ್ ಕರ್ಚ್ಯಾಕ್ ಸಕ್ಷಮ್ ಜಾತಾ. ತಿಚೊ ಆತ್ಮವಿಶ್ವಾಸ್ ಆನಿ ತೆಜ್ಪಾಣ್ಣೀಚಿ 'ಕೊಡ್ಯಾಳಿ ತಕ್ಲಿ'

(354) ಮತ್ಪಕಾಂತ್-ಕಿಚ್ನಾಂತ್-ಕಾಮ್ ಕರ್ಪಿ ಹಿ ತಕ್ಲಿ ನೊರಾ ಖಾತೀರ್ ಆಧಾರ್ ಸ್ತಂಭ್ ಜಾತಾ. ಡ್ರಾಯ್‌ವರ್ ಇಶಾನ್-ಪಾಕಿಸ್ತಾನಿ-ನೊರಾಚೊ ಭಾವ್ ಜಾವ್ನ್ ಭಯ್ಣಿಚೊ ಸಾಂಬಾಳ್ ಕರ್ತಾ. ಹ್ಯಾ ಸಗ್ಳ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಮನಾಂತ್ ಧೈರ್ ಆನಿ ಭಾವಾರ್ಥ್ ಹೆಂಚ್ ತಾಂಚೆಂ ಬಳ್ಗೆಂ ಜಾತಾ. ವಿಲ್ಮಾಚೆ ಬಾಬ್ತಿಂತ್ ವಿ.ಸಿ.ಆರ್ ಉರ್ಲೊ. ಸಗ್ಳೆಂ ಸಾಮಾನ್ ಕುವೆಯ್ಟಾಂತ್‌ಚ್ ಉರ್ಲೆಂ. ಕಾದಂಬರಿಚಿಂ ಪಾತ್ರಾಂ ಆಪ್ಲೆ ಗಂತ್ವ್ಯ ಸ್ಥಾನ್ ಆಭಿಣುಟಚೆಣುಂಟ-ಮೆಳಯ್ತಾತ್. ಆಮ್ಕಾಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಮೊಗ್ಯಾಂಕ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಮಾಜಾಕ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಕ್ ಆಪ್ಲೆಂ ಗಂತ್ವ್ಯ ಸ್ಥಾನ್ ಮೆಳುಂ. ತೆ ಖಾತಿರ್ ಆಮ್ಚಿ ಪ್ರಮುಖತಾಯ್ ಕಿತ್ಯಾಚೆರ್ ಆಸಾ ತಾಚೆರ್ ಸರ್ವ್ ಹೊಂದೊನ್ ಆಸಾ. ಕೊಡ್ಯಾಳಾಂತ್ ಉಪೆಕ್ಷಿತ್ ಆಶಿಲ್ಲೆಂ ಕೊಂಕ್ಣಿಚೆಂ ಭಾಂಗಾರ್ ಆಮ್ಕಾಂ ಕೊಂಕ್ಣಿಚ್ಯೆ ಉದರ್‌ಗತಿ ಖಾತಿರ್ ಮೆಳುಂ.....ಕೊಂಕ್ಣಿಚೊ ವಿಸ್ತಾರ್ ಜಾಂವ್. ಎಡ್ವಿನಾಚಿ ಚವ್ತಿಸಾವಿ ಕಾದಂಬರಿ ಮ್ಹಾಕಾ ಗೊಂಯಾಂತ್ ಕಾಳೆಂ ಭಾಂಗಾರಾವರೀಚ್ ವಾಚೂಂಕ್ ಮೆಳುಂ. ಅಸ್ತಿತ್ವವಾದಿ ಕಾದಂಬರಿ....ಕ್ಲೊನಿಂಗಾಚೆರ್ ಆಧಾರಿಲ್ಲಿ ಕಾದಂಬರಿ....ಗೊಂಯ್ಕಾರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಮೊಗಿ ಆಯ್ಕತಾತ್????? 1950 ವರ್ಸಾ 'ಆಂಜೆಲ್' ಕಾದಂಬರಿನ್ ಸುರು ಜಾಲ್ಲೊ ಹೊ ಧಾರಾವಾಹಿಕ್ ಪ್ರವಾಹ್ ಆನೀಕ್ ಸಮೃದ್ಧ್ ಜಾಂವ್. ◆

*(**ಡೊ। ಚಂದ್ರಲೇಖಾ ಡಿ'ಸೋಜಾ** ಗೋಂಯ್ ವಿಶ್ವವಿದ್ಯಾಲಯಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಿಭಾಗಾಚಿ ರೀಡರ್ ಆನಿ ಮುಖೆಲಿ ಜಾವ್ನಾಸ್‌ಲ್ಲಿ. ತಿಣೆ ಸಂಸೊದ್ ಲೇಖನಾಂಚೊ ಸಂಗ್ರಹ್, ಕಾದಂಬರಿ ಪರ್ಗಟ್ ಕೆಲ್ಯಾತ್. ತಿಚಿಂ ಸಂಸೊದ್ ಲೇಖನಾಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ, ಹಿಂದಿ ತಶೆಂ ಮರಾಠಿಂತ್ ಫಾಯ್ಸ್ ಜಾಲ್ಯಾಂತ್. ಗೊಯಾಂತ್ ತಿಚಿ ವಸ್ತಿ.)*



# अमर कोंकणी - ७४

रेक्टर:

**बाप मेलवीन जोसेफ पिंटो, जे.स.**

प्रांशुपाल:

**बाप दो. प्रवीण मार्टीस, जे.स.**

संपादक/निर्देशक:

**बाप दो. मेल्वीन पिन्टो, जे.स.**

संपादकीय सलहा मंडळी

**श्रीमती फ्लोरा कास्तेलीन**
**श्री जोकिम पिन्टो, वामंजूर**

प्रगटनार
**सां. लुवीस कोंकणी संस्थो,**
**सां. लुवीस महाविद्यालय**
मंग्ळूर – ५७५ ००३

Printed at: Assisi Press, Jail Road, Mangalore - 575 003

DTP & Designed by: Smt. Chandrakala - 9902337339

# अमर कोंकणी – ७४

## मांडावळ

# संपादकाचे उतरे

प्रस्तुत 2020 निजाकी सर्वांच्या उडासांत उर्चे तसलें वरस जालें. कोरोना 2019-ंत आरंभ जालें तरी, ताचो नक्को परिणाम 2020-ंत वयर पडोन, सगळ्या संसाराक मारेकार संकष्ट हाडुंक पावलें. तशें म्हण आधुनीक तंत्रग्यानाचो बरोच वापार ह्या कोरोनाच्या वर्सा जालो म्हळ्यार चूक जांवचिना. शिकप चार वणदिंच्या क्लास रुमा बदलाक आनलायन माध्यमाद्वारीं मुंदरून गेलें. तशें म्हण भारता तसल्या डिजिटल डिवायड आसच्या देशांत सबार विद्यार्थी समाकट नेटवर्क मेळानासतां कष्टाले म्हळ्ळेंयी सत. हळ्ळ्यांनी गिरेस्त कुळवार आसल्यारयी, डिजिटल नेटवर्क नासतां सर्व सांपडातात आनी अशें सर्व 'डिजिटल दुबळे' जातात म्हळ्ळें ह्या द्वारीं जाहीर जालें.

तशें म्हण संसोद आनी गिन्यान वाडवपाक कोरोना आनी लोकडावन मात्सें अडकळ जाल्यारी, दीस वेतां वेतां नवे नवे विषय उटोन येवन संसोधाचो संसार चडीत गिरेस्त जायत म्हळ्ळो भरवसोयी उदेवन आयला. त्ये दिशीं विवीध रितिच्या संसोधाक कोरोनाचें वरस एका दिशीं आदार जालें म्हळ्यार चूक जांवची ना. 'अमर कोंकणी' षणमासिकांतयी आमी असलोच वावर मुंदरिला.

प्रस्तुत अंक्यांत तीन विशिषट लेखनां तुमच्ये मुकार दवर्तांव. कोंकणी कथोलीक समुदायांत काजार एक अस्मितायेचें आचरण. ह्या आचरणांत बोवच गिरेस्त वोवियो आनी वेर्सांचें जानपद साहित्य उग्ताडाक येता. आज असलें साहित्य उणें जावन येता तरी, तें अवलोकन केल्ल्ये निमतीं कोंकणी संसकृते लग्ती अव्वल म्हळ्ळ्या तसले विचार समजुंक आनी संभ्रमुंक साध्य जाता तें अध्ययनाच्या रुपार हांगाचें एक लेखन विवरिता.

करावळी सवें गलफाचो संबंध बोव लागशिलो आनी भावनात्मक. पूण हो संबंध भाशे वयरयी जाय पुर्तो प्रभाव घालुंक सक्ता म्हळ्ळें हांगाचें आन्येक लेखन विवरिता. कोंकणी भाशेचेर अरेबीक भाशेचो प्रभाव चडीतच आसा तें लेखकाच्या विशलेषणा निमतीं आमी समजव्येत.

एडवीन जे. एफ. डी'सोजाची 'काळें भांगार' कादंबरी घडल्ल्या चारित्रीक घडितांच्या संदर्भारच रचीन जाल्ली एक काल्पनीक कादंबरी. ह्ये कादंबरीक

केंद्र साहित्य अकाडेमिची प्रशसतियी लाबल्या. कोंकणी साहितीक संस्रांत ही कादंबरी कशी विशेस जावनासा तें हांगाचें तिस्रें विमर्शात्मक लेखन विवरिता.

पाटल्या दिसांनी 'अमर कोंकणी' षणमासिकाक बोवच बरो पाटिंबो मेळोनंच आसा. वर्गणिदारांचो संखोयी चडीत मिनत नासतां चडला म्हळ्यार हें पत्र प्रकटुंक आमी काडची म्हिनत सार्थक म्हण जालें. कोंकणेच्या संदर्भार बोवच उणो आसचो संसोधीक वावर चडवन त्या तेकीद कोंकणी भास, साहित्य आनी संसकृतेचो पोस कर्चोच आमचो उद्देश जावनासा. तुमचो आधार सदांच आसों.

– बाप दो. मेल्वीन पिन्टो, जे.स.



*अमर कोंकणी* मूखपानार छापल्ल्या सांभाड्याविशीं चडीत विवर www.amarkonkani.com चेर

तस्वीर कुर्पा: सां लुवीस वसतुसंग्रहालय – Aloyseum

# वोवियो (आनी वेर्स): कोंकणी कथोलीक काजाराच्या जानपद साहित्याचें अवलोकन

– मेलवीन पिंटो

**सारांश**

वोवियो आनी वेर्स कोंकणी संसक्रतेची अस्मिताय जाहीर कर्चें एक विशिष्ट जान पद प्राकार जावनासा. वोवियो वेर्साची चरित्रा सुमार क्री.श. बाराव्या शतमानाच्याकी आदलो म्हळ्ळें संसोदा द्वारीं कळोन येता. कोंकणी संसक्रतेच्या पूण विवीध धर्मांच्या लोका मदें आजून हो प्रकार जिवाळ आसा ती गोष्टि धादोसकायेची. विशेस कर्न जी.एस.बी, कुडमी आनी कथोलीक कोंकणी लोकां मदें काजारा संदर्भीं वोवियो, वेर्स भर्पूर वापार जावन काजाराचो संभ्रम चडयतात. तरिपूण बदलोन आयिल्ल्या अधुनीक संसक्रतेंत वोवियो वेर्स यी त्या तेकीद बदलोन येवनंच आसात. प्रस्तुत लेकनांत कोंकणी कथोलीक लोका मदल्या वोवियो आनी वेर्स प्राकार अवलोकन कर्न ह्या जान पद साहित्य प्राकारांत उजार जांवची कोंकणी समाज आनी संसक्रतेची वरवणी केल्या. धार्मिकता, सरल्ल्यांची याद, कुटमा संबंध – अशें सबार मोलाधीक विशय आटापून उजार जांवचो हो प्राकार आधुनीक जनांगाकयी प्रस्तुत जाय सार्कें कर्ची गर्ज आसा म्हळ्ळो आशय लेकनाचो.

***

**प्रस्तावन**

मंगळुरी क्रिस्तांव संसक्रतेंत काजाराक विशेस सांसक्रतीक महत्व आसा. आदीं मागा थावन देंवून आयिल्ले ह्ये संसक्रतेंत सबार विशिष्ट आनी अस्मितायेचीं आचरणां दिसोन येतात. आय्लेवार ह्यांतलीं कांय थोडीं आचरणां मायाक जावन येते आसात. तशें म्हण ह्याका कारण आमच्ये संसक्रतेचें आधुनीकरण म्हणच्याकी, थोडीं आचरणां बदल्याल्ल्या काळाक ताळ पडानांत म्हणचें सार्कें म्हण दिसता.

कोंकणी क्रिस्तांव (जी.एस.बी. आनी कुडमी काजारांनिंयी सयत), वोवियो, वेर्स असल्या काव्यात्मक प्राकाराच्या सांसक्रतीक अभिवेक्तेक ताचेंच म्हळ्ळें महत्व आसा. आयच्या काजारांनी वोवियो, वेर्स गांवची संसक्रती मसतू उणी जाल्या.

आयच्या दर्वडेच्या काळार वेळ उरंवच्ये नद्रेन लांबायेचो वेर्स गांवचो उणो जाला म्हळ्ळें स्पष्ट आसा. तशें पळेल्यार काजारा संभ्रमाची आवदीच भोव मटवी जाल्या. आदीं काजाराचो संभ्रम उण्यार तीन ते पांच दीस म्हणासरयी आसतालो. टी.वी., इंटरनेट नातल्ल्या त्या काळार मनोरंजनयी उणें आसल्ल्यान काजाराचो संभ्रम एक्ये रितीन मनोरंजनयी जाल्ल्यान हफ्तोभर चल्तालो (Gomes, १९९६). कांय थोड्या वर्सां आदीं काजाराचो संभ्रम तीन दीस (पर्तापण म्हळ्ळें नव्यागेल्या पाडतिच्यांक होकलेगेर आपंवची दसतूर धर्न) आसतालो. आज-काल पर्तापण म्हळ्ळें आचरणयी उणें जालां. थोडे कडे रोस आनी काजार एकाच दिसा मुगदून सोडतात. अशें काजारा संभ्रमाची आवदी उणी जाल्ल्ये तेकीद ताका लग्ती जाल्ल्या संसकृतेचें आचरणयी उणें जावनंच येता तें नेगारुंक जायना.

**वोवियो आनी वेर्स – एक जानपद प्राकार**

जानपद साहित्य तोंडा थावन तोंडाक व्हाळोन आयिल्लें साहित्य. पाटल्या ८०-१०० वर्सां हेवशीन थावन जानपद साहित्य संग्रह कर्न बुकारुपीं पर्गट केल्लें पळेवंक मेळता तरयी ताच्ये आदीं हें साहित्य तोंडी साहित्य जावनंच आसलेल्यान तें व्हाळच्या उदकाबरी तोंडाथावन तोंडाक पावताना बदलोनंच आयलां. देकून ह्या साहित्याक लेखक म्हळ्ळो ना. लेखक ना देकून हांगा वेयुक्तीक दिश्टिकोन ना, बगार एका समग्र समाजिचें धोरण रुपीत जाल्लें दिसता. फकत आपल्ये जिण्ये अनबोगाचेर रचल्लें हें साहित्य आमच्या अशिकपी वा उणें शिकपी म्हालघड्यांच्ये जाण्वायेक आर्सो धर्ता. जिण्येंतल्या ल्हान ल्हान संग्तिंचेरयी उज्वाड फांकंवच्या ह्या साहित्याचो मूळ उद्देश समेसतांचें बरेंपण. ह्या बर्यापणाक कितें गर्जेचें तें पदां रुपीं तकले थावन तकलेक वर्गावण जाल्लें जानपद साहित्य काळा तेकीद समाजेंत जाल्ल्ये बदलावणेक वोळसोन – आयकोंचें, उडासांत दवर्चें, पळेंवचें आनी पाळचें – अशें एका संकीर्ण संप्रदाया संगीं मुकारून आयलां. अशें व्हाळोन आयलेल्या जानपद साहित्यांत कोंकणी कथोलिकांनी 'वोव्यो' म्हण आपंवचें पदारुपाचें साहित्ययी एक. बहुश्या मंगळुरी कोंकणी कथोलिकांनी अजून वापार्च्या जानपद साहित्य प्रकारांनी चडीत लोकामोगाळ एक मात्र जानपद साहित्य म्हळ्यार वोव्यो. वोवियांक एक निर्दिष्ट छंदस्स आनी रूप आसा. गावंक सलीस जांवच्येबरी मीटर आसा. पूण ह्या मटव्या मटव्या पदांक 'वोवी' म्हळ्ळें नांव कशें आयलें कळीत ना. बर्कायेन पळेयल्यार काजाराक संबंधी चडताव सब्द 'व' थावन आरंभ जांवचें पळेवंक मेळता. दाखल्याक व्होरेत, व्होकाल, वोवळीक, व्होर, व्होराण, वोवी इत्यादी (Silva & Fuchs, 1965). आमी वर्डीक वा लग्नाक 'काजार'

म्हणतांव. ह्या सब्दाचें मूळ पोर्चुगीस. नीज कोंकणी सब्द वर्डीक, जो हिंदू कोंकणी लोक तशेंच थोडो क्रिस्तांव लोक आजून वापार्ता.

## वोवियो आनी वेर्स – चरित्रा

वोवियेचो प्राकार पुरातन आसा म्हळ्ळे विशीं पुरावे मेळतात. चालुक्य राय सोमेश्वर–III हाणें लीकल्ल्या अभिलाशार्थचिंतामणी ह्या पुस्तकाच्या 'मानसोल्लास' भागांत कोंकणेंत एक विशिष्ट प्राकाराचें ल्हान पद प्राकार आसचे विशीं उल्लेक आसा (Gomes, १९९९). हो ल्हान पद प्राकारच वोव्यो म्हण समजयेत. हो ग्रंथ सुमार क्री.श. बाराव्या शतमानांतलो. तशें म्हळ्यार वोवियेचो प्राकार या ह्या प्राकाराचें छंदस्स बाराव्या शतमाना प्रास पुरातन म्हळ्ळें समजयेत. तें बोव सरळ देकून त्या काळार तें बोवच लोकामोगाळयी जावनासल्लें म्हळ्ळयळांत दुबाव ना.

तेराव्या शतमानांत मराठिंत संत ज्ञानेश्वरी हाणें लीकल्लो ध्यानेश्वरी ग्रंथ वोवियेच्या छंदस्स रुपांतच लिकला म्हळ्ळें विशेस. हो ग्रंथ मुळान मराठी तरी, ह्या ग्रंथांत थोडिशीं उत्रां कोंकणेचिंच आसोन कोंकणी भास आनी साहित्य तेदोळच पुश्कळ रितीं वाडोन आयिल्लें तें कळोन येता (Gomes, 1999 & 2000). वोवियांची चरित्रा तर ह्या ग्रंथां प्रास पुर्विली म्हळ्ळें आमी अंदाज कर्येत.

क्री.श. १६व्या शतमानांत जेज्वीत मिशनरी बाप थोमस स्टीफन हाणें बरयिल्लो प्रमूख ग्रंथ क्रिस्त पुराण वोविये छंदस्स रुपारच आसा. हो ग्रंथ मुळान मराठी तरी, कोंकणेचीं बर्पूर उत्रां ह्या ग्रंथांत पळेवंक मेळतात. तशें पळेल्यार आयलेवार म्हणासर कोंकणी आनी मराठी भासो एकामेका भारीच ताळ पडताल्यो. पूण, पंद्रा, सोळाव्या शतमाना उपरांत कोंकणेंत इतर भाशेंचो प्रभाव (पोर्चुगीस, कन्नड, तुळू, उर्दू) चड जाल्ल्या द्वारीं ह्यो भासो आज चडीत वेगळ्यो दिसोन येतात तें खंडीत.

आज कन्नडाचो सांगत्य प्राकार या मराठिचो अभंग प्रकार साधारण वोवियेचोच छंदस्स वापार्ता जाल्ल्यान वोवी रूपाचो छंदस्स इतर रूपांचेर धाराळ पडला तें खंडीत (कामत, २००६). पूण वोवियो काजारांच्या संदर्भीं गांवचो लोकवेद म्हण लोकामोगाळ जाला तरी, मुळान ह्या प्राकाराचें साहित्य हेर संदर्भांनिंयी वापार्चे आसा. दाखल्याक सारस्वत जी.एस.बी. लोका मधें भुर्ग्यांच्या गाणांनी ह्या छंदस्साचीं गाणां धाराळ दिसोन येतात. कथोलीक लोकांच्या बाळ गाणांनी ह्याच रुपाचीं गाणां जरूर पळेव्येत.

दाखल्याक:

**जय गो जय**
**बोकल्यान खेली साय**
**गोव्यांत आसा गाय बाळा**
**दूद पियेवंक जाय**
(मोरास, २००८)

**वोवियांचो उद्देश**

जानपद पुर्विल्या समाजेच्या संसकृतिचो एक मुकेल वांटो. लोकाची संसकृतीच सर्व मनशाशासतिरांक मूळ आधार. वोव्यो आनी वेर्स म्हळ्ळो जानपदाचो एक प्राकार आमच्या म्हालघड्यांच्या संसकृतिचो वांटो मात्र न्हय आमच्या पुर्वजांच्या संसकृतिचें प्रतिफलनयी म्हण्येता. वोवी आनी वेर्साचें गूंड अध्ययन केल्यार आमच्या पुर्वजांची संसकृती कितें आसल्ली म्हळ्ळें कळोन येता. आमच्या गांवच्या लोकाचो कुटमा संबंद, तांचो वावर, सागवळी, उत्पत्त, जीवन क्रम – हें सर्व वोवियांनी आनी वेर्सांनी गायनांरुपीं चित्रीत केल्लें पळेवंक मेळता.

दाखल्याक:

**उदक काडुंक कळमें, उदक शिंपुंक करलें**
**एका चेंडा फुलांनी होकलेचें मातें भरलें**

ह्या वोव्येंतल्या पयले पंग्ते मारिफात आमचे पूर्वज कृशीक जावनासल्ले, कृशेक लाट्याचें उदक वापार्तालें म्हळ्ळें कळोन येता तर दूस्ये पंक्तेंत रेस्पेराक आयतें जांवच्ये होकलेक बोव काव्यात्मक आनी कलात्मक रितीन तुकलांवचें पळेवंक मेळता. हांगासर होकलेक सुंर्गारांवच्या स्त्रियांनी कामा संगीं आपलो वेळ पाशार करुंक आनी मनोरंजना खातीर ही वोवी घडल्या म्हळ्ळयेपरीं दिसता तरी, वोव्यो संदर्भापर्माणे देवाचो आधार मागच्यो, होकल नव्याक बूदबाळ सांगच्यो, समजणी दिंवच्यो, सगळ्या संभ्रमावेळार हंताहंतांनी करिजे जाल्ल्या कामाचे हिशारे दिंवच्यो, मालघड्यांक मान दिंवच्यो आनी कांय थोड्या संदर्भांनी कुल्पां काडच्योय आसतात. हे जावनासात लिप्ते उद्देश वोव्यांचे. ह्यो वोव्यो काजारा माटवांतलें वातावरण जिवाळ आनी उल्लसीत दवरच्ये संगीं समुदायाचिं मौल्यां, संसकृती, रिती–रिवाज्यो आपल्ये पिळगेक उडासांत दवर्न मुकारून व्हरुंक सूक्त हिशारे दिंवच्योयी जावनासात. आनी हें सर्व पदां रुपीं आसल्यार उडासांत दवरुंक सलीस म्हळ्ळें जाणां आसलेल्या आमच्या मालघड्यांनी हाका पदांचें रूप दिलें.

वोवियो आनी वेर्स आनी तसलें साहित्य आमच्ये संसकृतेक मात्र संबंदीत

न्हय. कन्नड जानपद संसकृतेंत 'सोबाने हाडू' म्हळ्ळें काजारी संबंधीत जानपद साहित्य धाराळ आसा. स्थळीय तुळू संसकृतेंत तसलें साहित्य दिसोन येना तरी पाडदन जानपद साहित्य साधारण ह्याच शयलेचें जावनासा. पाडदानांतयी आमी विशेस स्थळीय जाण्वाय आनी गिन्यान पळेव्येत.

गोंयांत हर एक धर्माचे काजारा संदर्भीं विशिष्ट ल्हान गितां 'जोतियो' गांवची रिवाज आसल्ली, जी आजून थोडेकडे आसा (Gomes, 1996). पूण क्रमेण जोतियांबरीच रूप आसल्लो आन्येक प्राकार 'वोवियो' सासांगाताच उदेवन आयलो.

तशें आसतां काजाराच्या जानपद साहित्याची चरित्रा इतर संसकृतेंनिंयी आसा जाल्ल्यान कोंकणी जानपद संसकृतेंत हें एक नवेसांव न्हय तें आमी समजाजय. हो प्रकार नवो न्हय तरी, ह्या साहित्याचें रूप मात्र कोंकणी भास आनी ओट्टारे संसकृते थावन उदेवन त्ये भाशेची अस्मिताय उजार कर्ता.

## वोवियांचें रूप

वोवियांचो प्राकार पुरातन तरी, काजारा संदरबीं वापार जांवच्यो वोवियो आनी वेर्स सासांगाता उदेल्यात म्हळ्ळें दिसोन येंवची संगत. वोवियांचें रूप आनी छंदस्स इतर लोक वेदांत आनी जनपद साहित्यांत आमी जरूर पळेव्येत. एदोळच उल्लेक केल्ल्याबरी बाळांच्या गाणांनी समेत वोवियांचें रूप आमी देक्येत. महाराषट्रांत मराठी लोकवेदांत वोवियांचें छंदस्स आदीं मागा थावन खूब खायस आसा. वोवी वा वोवियेचें छंदस्स कर्नाटकांत उबजालें आनी मराठी भाषेक ही कर्नाटकाची देणगी म्हळ्ळो एक वादयी आसा (कामत, २००६). पुण १९५६ पयलें कर्नाटक, महाराष्ट्र म्हण राज्य नातल्ले. सुमार १२-१३ व्या शतमानांत चालुक्य कुळियेंचि राज्वटकी आतांचें कर्नाटक, गोंय आनी महाराष्ट्राच्या थोड्या भागांनी चलोन आसताना भाशेंची गड थंय नातल्ली. अशें एका भाशेचो प्रभाव आन्येका भाशे वयर खूब पडतालो.

वोवियांचें उगम खंयसर आसा म्हण सोदून गेल्यार नक्की जाप मेळचें कषटांचें. तरिपूण हो छंदस्स प्राकार कर्नाटकांतच जालो म्हळ्ळो एक वाद (कामत, २००६). गोंयांत कोंकणी लोकां मदें हें जानपद साहित्य धाराळ प्रयोग जातालें. पूण थंयच्या कथोलीक लोकाचेर पोर्चुगीस प्रभाव चड जाल्लेबरी तांचे थावन अशें वोवियो गांवची रिवाज मात्र न्हंय काजाराक संबंधी सबार रिती रिवाच्यो मायाक जाल्यो. मंगळूरी क्रिस्तांवांचें मूळ गोंय तें स्पष्ट आसा. सुमार सोळाव्या सत्राव्या शतमानांत गोंयांत चलोन आसल्ल्या पोर्तुगिसांच्या धार्मीक इंकविजिसांवां लग्ती सबारसो लोक गोंयां थावन पेंळून उडुपी, दक्षीण कन्नड आनी केरळांत सयत वस्नेक

लागलो म्हळ्ळें कळोन येता (पिंटो, २०१२). गोंयांत बिजापूरच्या अदीलशाही तशेंच महाराष्ट्राच्या मराठ राज्वटकेंनी दाड घाल्तानांयी सबारसो लोक गोंयां थावन कर्नाटक करावळेक पोळन आयलो म्हळ्ळे दाखलेयी मेळतात (डिसोजा, १९८३). गोंयां थावन आयिल्ल्या लोकान आपणाची भास संसकृती आनी आचार विचार आपणा सांगाता हाडली. तरिकी कर्नाटक करावळिंत चडताव तुळू संसकृती आसल्ल्यान त्या संसकृते संगीं ओळसून विवीध रितिंची बदलावण, प्रबाव आपल्या संसकृतेंत कथोलीक क्रिस्तांवांनी जोडुन घेतली. (दाखले – साडो, पिड्डुक/करियमणी, रोस.. फुलां. असल्यो रिवाज्यो चडताव गोंयांत दिसोन येनांत)

सबार वोवियांनी कोसेस मांय, रुजार मांय, मिलाग्र मांय, बेंदूर, मंगळूर, अत्तूर फेस्त, असले सब्द धाराळ येतात तें पळेताना वोवियो/वेर्स हांगाच्या कथोलीक लोका मदें भारीच लोकामोगाळ जाल्यो आनी पुश्कळ रितीं हाचें बेळें वाडोन आयलें तें पात्येव्येत. तितलें मात्र न्हंय, वोवियांचो प्रकार चाल्त्या जिवितांतले अनबोग नेरावंक आनी तांकां एक कलात्मक रूप दीवंक एक माद्यम जालो खंडीत.

## वोवियेची शयली आनी रूप

लिकणेक येताना वोवी चडताव दोन वा तीन पंक्तेंनी (आनी थोडे पावटीं चार पंक्तेंनी सयत) उजार जाता. वोवियेंत दोन भाग आसात आनी हे दोन भाग चडताव अंत्य प्रासा द्वारीं एक जातात.

**तर्नें मोडाल कोयतेन बेंडिनाका**
**काजार जातच मांय नंड्डांक केंडिनाका**

करावळ कोंकणांतल्या कथोलिकां मधें माडाक उंचलो मान आसा. तसोच माडाचेर वर्तो हुसकोय आसा. म्हालघडे तर्नें मोडाल कोयतेन बेंडिनातले, कारण जिव्या माडाक लोंकडाचो मार मारेकार, माडाची शिवडी कातरल्ले वर्वीं माडाच्या वाडावळेक मार जाता म्हळ्ळें भोगाप. काजार जावन घर भरल्ल्ये चल्येनयी मांय नंड्डांक केंडुंक नजो. केंडल्यार कुटमा–संबंधाक मार बसता म्हण सूच्य थरान कळंवच्ये ह्ये वोव्येंत पयल्या आनी दूस्र्या भागाक सूक्ष्म संबंध आसा. पूण हर वोव्यांनि पयल्या भागाक आनी दूस्र्या भागाक कांय राजांवीक संबंध आसाजयच म्हण ना. पयलो भाग एक वासतवीक सत व्यक्त कर्ता तर, दूस्र्या भागांत काजार, काजारी जिण्ये लग्ती एक आशय उजार जाता.

दाखल्याक:

**धर्णीक मारली खोट, वोणतीक आयली फूट**
**घरांतलो घूट होकले भायर घालिनाका**

ह्या वोवियेचो पयलो भाग आमी तज्वीज केल्यार थंय एक वासतविकता झळकाता. धर्णीक मारल्ल्या खोटेक जर वोणतीक फूट येता तर वोणद तितलीय असकत आसा म्हण जालें. तशेंच वोणतीक फूट येवंक वोणतीकच खोट मारिजे म्हण ना, बगार वोणद रावल्ल्या धर्णीक खोट घाल्यारी पावता. हांगासर पयल्या भागांत एक जाण्वाय झळकाता तर, दूस्र्या भागांत एक शिकोण वा एक आशय व्यक्त जाला – काजारा उपरांत होकलेन ताच्या नव्याच्या घरा भितरल्या सांद्यां मधले ल्हान ल्हान विषया पाटले मनाबेध वा कसलेय हेर 'घूट' भायल्यांक कळयनाये. कित्याक संबंधां मधें फूट येवंक हेंच कारण जाता म्हळ्ळी चत्राय त्या घराक नवो सांदो जावन पांय दवर्च्ये होकलेक दिंवची पळेवंक मेळता. हांगा पयल्या भागाक आनी दूस्र्या भागाक व्हडलो कांय राजांवीक संबंध दिसाना. तरिपूण 'फूट' आनी 'घूट' म्हळ्ळे प्रासाचे सब्द ह्या दोनी भागांक एक कर्तात.

हांगासर सकयल दिल्ल्या दाखल्यांनी पयल्या आनी दूस्र्या भागाक कायिंच राजांवीक संबंध ना:

**आल्याच्ये दोसीक साक्रिचें मेल**
**वोवळ्यांक घालें तेल आमच्या येज्मानीन**

**कास्याच्ये वाटले भांगाराचो केस**
**मोगाचो रोस तुज्ये आवयचो**

अशें चडताव वोवियांनी असलें रूप पळेव्येत.

## वोवियो संसकृतेचो आर्सो

वोवियो कोंकणी संसकृतेक धरल्लो एक आर्सो म्हळ्यार चूक जांवची ना. सबार वासतवीक विशय, आकलास, अत्रेग, रिवाज्यो इत्यादी वोवियांच्या रूपार व्यक्त जांवचें पळेव्येत. ह्या लेखनांत फकत थोडेच थोडे विशय चर्चा करुंक अशेतां.

### १. धार्मिकता

ओट्टारे भारतीय संसकृतेंत आनी विशेस कर्न भारतीय जानपद संसकृतेंत धार्मिकता स्वाभावीक रितीं मिसळाल्ली दिसोन येता. मैसूर प्रांत्याचें मंटेस्वामी काव्य, उत्तर कर्नाटकाच्या एल्लम्मा विशिंतलें विशिष्ट जानपद काव्य, इत्यादी

ज्ञानपद साहित्यांनी धाराळ धार्मिकता पळेल्ल्याबरीच इतर कन्नड वा इतर भाशांच्या ज्ञानपद साहित्यांत धार्मिकता भर्पूर पळेव्येत. भारतीय संसकृतेंत धार्मिकतेक विशेस स्थान आसा जाल्ल्यान जानपद संसकृतेंतयी तसली धार्मिकता आयिल्ल्यांत कांय नवाल ना.

वोवियो आनी वेर्स तसल्या लोकवेद साहित्यांतयी आमी असली धार्मिकता धाराळ पळेव्येत. दाखल्याक सबार वोवियांनी कोसेस मांय, रुजार मांय, मिलाग्र मांय, बेंदूर, मंगळूर, अत्तूर फेस्त, असले सब्द धाराळ येतात तें पळेताना हांगाच्या कथोलीक लोकान आपल्या संसकृतिंत धार्मिकतेक प्रामुख्यता दिल्लें तें पार्कियेता. सबार वोवियांनी जेजू, मरी, जुजे, कोसेस मांय, रोजार मांय, अल्मां, इगर्ज, सांत आंतोन, पाद्री, खुरीस इत्यादी सब्द पर्तून पर्तून येतात. देवाक आनी धर्माक चडीत महत्व दिंवची प्रक्रिया वोवियांनि धाराळ मापान पळेव्येत.

दाखल्याक रोसाची रिवाज ह्यो वोविये द्वारीं आरंभ जाता:

**आकाशीं माड नारल खुब्यार,**
**तेलाचो खुरीस होकलेच्या (होरेताच्या) कपलार.**

रोसा तेदाळा आवयन तेलान होकलेच्या वा होरेताच्या कपलार खुर्साचो घूर्त घाल्ची रिवाज बोव पर्नी. ओट्टारे रोस पुसची रिवाज धार्मीक आशय द्वारिंच आरंभ जांवची बोव स्वाभावीक कशी दिसता.

**रोस काडच्या येज्मानी, मनीं धरलां तेसांव,**
**दी माये बेसांव, सायबिणी कोसेसांव**

कोसेसांव आनी रोजार मांय सबार वोवियांनी पळेवंक मेळतात. हें धार्मिकतेचो मात्र न्हय एक्ये रितीं चरित्रेचो विशययी व्हय. रोजार मांय वा कोसेस मांय मंगळूर रुजाय फिर्गजेची पात्रोन. मंगळुरी भोंवोरांत, विशेस कर्न रुजाय इगर्जेच्या भोंवोरांत हांगाच्यो सबार वोवियो रूपीत जाल्यात तें अशें कळोन येंवचो विशय. रुजाय इगर्जेचो इतिहास सुमार ४५० वर्सां आदलो. ही फिर्गज आरंभ जाल्ली क्री. श. १५६८ंत म्हण फिर्गजेची वेबसायट कळयता (सल्डान्हा-शेट, एन.डि.). मंगळूर प्रांत्यांत बोव पुरातन फिर्गज ही जावनासा. तशें आसतां सबार कोंकणी लोक ह्या फिर्गजे सवें संबंधीत जाल्लो आनी आपल्या आत्मीक गर्जांक ह्या फिर्गजे थंय भावनात्मक संबंद दवर्न आसल्लो तें समजव्येत. तशें आसतां ह्ये फिर्गजेच्या भोंवोरांत सबारश्यो वोवियो रचीत जाल्यात मात्र न्हय मंगळुरांत हेर सांतां भक्तांक समर्पून दिल्ल्यो फिर्गजो उब्यो जांवचे आदिंच ह्यो व्होवियो घडल्यात म्हळ्ळें नखखी जाता.

**२. सरल्ल्यांची याद**

गोयांत काजाराच्या दोन वा तीन दिसां फुडें होकले-नव्र्याच्या कुटमांतल्या सरल्ल्या कुटमा सांद्यांचो उडास काडून सुत्तुरांतल्या दुबळ्यांक तशें भिकार्यांक साधें जेवाण वाडची रिवाज आसल्ली. हाका 'भुंय जेवण' वा 'भिकार्यांचें जेवण' म्हणताले. मंगळुरी कोंकणी कथोलिकां मदें काजारा संभ्रमा वेळार सरल्ल्या कुटमा सांद्यांची याद वोव्यां मारिफात काडतात.

**ह्या घर्चो येज्मानी खंयगा गेला**
**चेरेला सयत रुजाय मांय्क हाडुंक गेला**

घर्चो येज्मानी वा मुकेल सांदो (होकले/नव्र्याचो बापूय) जर देवादीन जाला, तर असली एक वोवी रोसाच्या संदर्भीं आयकोंक मेळता. विविंगड गांवांत, नव्यो फिर्गजी जाल्या उपरांत त्या त्या फिर्गजेच्या पात्रोन सांताचें नांव बदली कर्न ही वोवी सादर जाता (दाखल्याक: सांत रोकीक हाडुंक गेला; सांत आंतोनाक हाडुंक गेला; सांत पावलाक हाडुंक गेला, इत्यादी)

सरल्लो बापय वा आवयक उडास काडचें काजारा संदर्भाची एक विशेस रिवाज. तांचें नाहाजर्पण होकलेक वा नव्र्याक खंडीत दूख हाडता आनी त्या लग्तीं असली एक वोवी सादर जावन दूख वेक्त करुंक (क्याथर्टिक इफेक्ट) आधार जाता म्हण्येत.

सरल्ल्या आवय वा बापायक उडास काडचें मात्र न्हय सरल्ल्या इतर कुटमाच्यांचो आनी लागशिल्यांचो उडास काडन आल्मावंक वोवी गांवची रिवाजयी आसा:

**सकाळीं माळ्ळीं फुलां/आबोलीं सांजेर बावोलीं,**
**आल्मां पावोलीं ह्यायी रोसालागीं**

सरल्ल्यां संगीं आसचो भावनात्मक संबंद सदांच जागोच उर्ता आनी घरांत प्रमूक कार्यिं जाताना, आनी विशेस कर्न काजाराचें कार्यें जाताना अल्मांक आपोवणें दिंवचें सहज.

एदोळच सांगल्ल्येबरी जेजू, मरी, जुजे, खुरीस असले धार्मीक पात्र, संकेत कथोल्नीक वोवियांनी धाराळ येतात. ह्या द्वारीं धार्मिकता सांसकृतीक कार्यांनी सलीस रितीं मिसळाल्या मात्र न्हय नादिसत्या देवाचो आधार जरूर असल्या कार्यांनी गर्ज म्हळ्ळें जानपद कथोलीक समुदायान मानून घेतला म्हळ्ळें ओप्पेत.

थोडे दाखले दिंवचे तर:

**येज्मानिच्या घरा कोयर बोव जाला**
**फुलां शिंपीत गेला आमचो बाळक जेजू**

**येज्मानिच्या हातांत भांगाराचो चुडो**
**फुडें धाडला ओडो भक्ता सां.जुजेक**

**सोमिणी माये येगे तूं वेगीं**
**काजार आयलें लागीं तुज्या फिल्यादाक**

कथोलीक समुदाय आदीं मागा थावन मात्सो चडीतच धार्मीक म्हणाजे. देवास्पण, इगर्ज, पाद्री, माद्री, रजार, वोरेसांव कथोलिकांच्या जिण्येचो मेकळो करुंक जायना तसलो भाग जावनासा. तशें आसतां कथोलीक जानपद साहित्यांत आनी विशेस कर्न वोवियो वेर्सांनी, धाराळ माफान धार्मीक आशय वेक्त जांवचें सहजच सय. तशें पळेल्यार इगर्जेंत रेस्पेर जांवचें आनी त्या उपरांतच इतर काजाराचें कार्यें चल्चें कथोलीक काजाराचें विशेस. अशें रेस्पेराक लग्ती कांय थोड्यो वोवियो आमी पळेव्येत:

**व्हरेता बाबा मात्यार तुज्या चेपें,**
**बारा भक्तां मधें फाल्यां रेस्पेर तुजें.**

**इगर्जे सकला तांबडी पाचवी माती**
**शेंबर जळतीत वाती तुज्या रेस्पेराक**

धार्मिकता बोवच स्वाभावीक रितीं कोंकणी कथोलीक संसकृतेंत मिसळाल्ल्याबरीच असल्या सबार वोवियांक चडीत गुंडाययी आयल्या तें खंडीत.

**३. कुटमा संबंध**

धार्मिकते बराबर, भारतीय संसकृतेंत कुटमा संबंधाकयी विशेस मोल आसा. कोंकणी कथोलीक संसकृतेंतययी कुटमा संबंधांक तितलोच महत्व आसा. कुटमांत बरें कार्यें जाताना, कुटमा संबंध आनिकी चडीत जिवाळ जातात. कुटम लागीं येता मात्र न्हय सर्व बेजाराय, नासमाधान पयस दवर्न हाताक हात मेळवन कुमोक करुंक सक्कड फुडें सर्तात.

कोंकणी कथोलीक वोवियांनी असल्या कुटमा संबंधाचे सबार नारे आयकोंक मेळतात. आवय बापूय न्हय आसतां, बाप्ल्यो, मावळे, मावश्यो, आकयो, आजी इत्यादी संबंधांचो धाराळ उल्लेक वोवियांनी आमी पळेव्येत.

**ह्यावी माटवांत बाप्ले तुजे म्हाल**
**तुज्या बापायच्या खाल बाप्ल्यो रोस लायता**

**मावळो रोस लायता, मनांत किर्ते चिंता**
**बरेपण माग्ता तुज्या काजाराक**

**भाताच्या राशीर बसोन आसा कावळो**
**मुंडासगार मावळो होरेता/होकले रोसालागीं**

फकत कुटमा सांद्यांक मात्र न्हय, वाड्याच्या गुर्काराकयी काजारा संदर्भीं विशेस मान आसा तें आमी पळेव्येत. आदीं मागा काजारां घराच जातालीं. घर्च्या येज्मान्या बराबर वाड्याचो गुर्कार मुकेल्पण घेतालो. वाड्यांत आनी इतर कडे वोवळीक सांगुंक घर्च्या येज्मान्या सांगाता वाड्याचो गुर्कारयी सांगात दितालो. काजारा दिसायी गुर्कारच कार्यें सुगम रितीं जांवच्येविशीं देकबाल पळेयतालो. अशें वोवियांनी गुर्काराकयी मान आसा.

**काजाराच्या माटवाक, शिरोतिगी पान,**
**पयलो दिया मान वाड्याच्या गुर्काराक**

गुर्कार्गेची रिवाज कथोलिकांक मात्र आसची रिवाज न्हंय. चरित्रा पळेल्यार ही रिवाज एदोळच हिंद्वां मदें आसल्ली. पंद्राव्या शतमाना थावन हांगा आयिल्ल्या मिशिनरिंक सर्व भावाडत्यांक सर्वय रितीं सांबाळुंक कष्ट जातालें देकून ताणीं गुर्कारांक नेमून तांकां भावाडत्यांच्यो सामाजीक आनी आत्मीक गर्जो थोड्या माफान तरी पळेवन घेंवची जवाब्दारी दिली (सिल्वा आनि फाक्स, १९६५). अशें कुटमा सांद्यां तितलोच मान काजारा संदर्भीं गुर्काराक मेळतालो तें वोवियो आमकां कळयतात. बदल्याल्ल्या आयच्या काळार गुर्कार्गेचो अर्थ आनी जवाब्दारियी तितल्याच माफान बदलोन आसा ताचें आमी गुमान करिजे.

## ४. काजारी जिण्येक शिकोण

काजारी जिणी आरंभ कर्ताना होकल आनी होरेता थंय सबार सवालां, उब्देस, आकलास, मिस्तेर आसचे सहज. जावंक तांकां विवीध रितिची शिकोण विवीध मुळां थावन मेळना. इगर्जेंत कांय थोडें लिसांव विगार वा विगारान नेमियारलेल्–या व्यक्तीं थावन मेळना. ह्या दिसांनी दियेसेजी मट्टार एक–दोन दिसांची विशेस शिकोणयी आसा. तितलें मात्र न्हय आवय बापूय थावन आनी काजारी संबंधिकां थावन विवीद कालेनिची शिकोण खंडीत लाबना.

पूण वोवियांनी मिसळोन आयल्या ती काजारी जिण्येक लग्ती शिकोण अत्वीच कशी वर्तावता. थंयसर जाण्वाय आसा, राजांवीक बूद बाळ आसा; मात्र न्हय चत्राययी आसा. दाखल्याक,

**तळव्या माडाचें मोडल कोयत्यान बेंडिनाका,**
**व्हरेताच्या कुटमाक फाल्यां कैंडिनाका**

ही वोवी खास कर्न होकलेक शिकोण दीवन गांवची म्हळ्ळें स्पष्ट आसा. काजार जातच चेडूं आपलें कुळार सांडता आनी आपल्या पतिच्या घरा वेता. थंय ताणें सुदार्सून वरुंक आसा. आपलेंच कुटम म्हळ्ळेबरी सक्कड सांबाळुंक आसा. देकूनंच हांगा एक शिकोणयी आसा, चत्राययी आसा. तूं व्हरेतागेर गेल्या उपरांत तूं थंयची येज्मान, देकून तुवेंयी मुकेल्पण घेवंक आसा. फाल्यां सकाळीं कितेंयी चडुणें जाताना, ही म्हजी चूक न्हय म्हण सगळो भोर व्हरेताच्या कुटमाचेर घाल्च्ये बरी ना. तूं आतां होरेताचें कुटम, थंयचो खास सांदो. देकून कोणाकी केंडचो प्रस्ताप येवंक नजो. असलो आशय ह्या वोवियेंत खंडीत आसा.

**भितर घाल्ली मांद्री भायर वोडिनाका**
**काजार जालों म्हण आवयक सोडिनाका**

ही वोवी होरेताक संबंधीत जावन आसा. आदीं काजारा पयलें चले भायल्या सोप्यार वा सालांत मांद्री सोडवन निदताले. काजार जाल्लेंच आपल्या होकले संगीं वोरेविंगड कुडांत निदची दसतूर. अशें एक जाल्लें जोडें खंच्याय कारणाक लागोन विंगड जायनाये वा तांच्ये मदें फूड उदेनाये, उदेवंक सोडिनाये म्हण होरेताक दिंवची जाग्वण भितर घाल्ली मांद्री भायर वोडिनाका म्हळ्ळ्या वोळिंत भोवच आपुरबायेन विणून हाडल्या. तशेंच काजार जाल्या उपरांत चेडो होकलेचो गुलाम जाता, अशें एक चूक पात्येणी थंय हांगा उदेवन येताना, कुटम विसर्न फकत आपल्या बायलेकच चिडकोन रांवचें सार्कें न्हय; जल्म दिल्ल्ये आवयक विस्रोंचें न्हय. तिका मोरा पर्यांत सांबाळचें तुजें कर्तव्य, म्हळ्ळी शिकोण वयल्या वोव्येच्या दूस्रया पंग्तिंत आटापून आसची समजव्येत.

**दोन शेर घाल्च्ये थंय तीन शेर घाल**
**भरल्लें घर फाल्यां चलवन व्हर**
**आंबोट पिटाची केली एक भाक्री,**
**कर होकले चाक्री तुज्या मांय मांवांची**

होकलेक मात्सें चडच म्हणच्ये तितली शिकोण, चत्राय वोवियांनी आसा म्हळ्यार चूक जांवचिना. हांगाच्या चडताव वोवियांचो काळ आनी तांचो पाटपडदो आमी वरवंक फावो. आसल्लो एक काळ, जेन्नां सून जावन येंवच्ये चलियेन घर सांबाळिजे, मांय मांवांची चाक्री करिजे, अशें आसतालें राजांव; मात्र न्हय चडताव हीच वासतवीक परिगत जाताली. भायर कामाक वेच्या सुनांचो संको नांच म्हळ्ळा तितलो उणो आसतालो. असल्ये परिगतेंत सुनांक 'बरी देक' सांगोन दिंवची दस्तुर वोवियांनी स्वाभावीक रितीं दिसोन येता. तिणें धादोशी आसाजे, संतोसान आसाजे, उदारी आसाजे; अशें सबारशे नारे वोवियांनी आमी सोद्येत. आयची परिगत मसतू बदल्ल्या. बदलाल्ल्या काळा तेकीद वोवियोयी बदलोन आसात खंडीत, वा असल्यो वोवियो रोसा, काजारा संदर्भी चडीत भायर येनांत. मांय मांवांची चाक्री कर्चें तें पर्नें फ्याशन; अविभक्त वा व्हड कुटम मायाग जावन कुटमां मेकळीं मेकळीं जावन येंवचें आदुनीक काळाची मजबूरियी व्हय, संकटयी व्हय.तशें संदर्भाग लग्ती नव्यो नव्यो वोवियो उदेवन येंवचें ह्या प्राकाराची गिरेसतगाय दाकवन दिता. बेजारायेची संगत म्हळ्यार अशें नवीन वोवियो रच्ची संसकृती क्रमेण उणी जावनंच येता. वोवियो रचिजे तर लोका-गिन्यानयी जायजय, क्रियाळ मतयी जायजय.

**५. गोंय, बोंबय संबंद**

मंगळुरी कोंकणी कथोलीक लोकाक गोंयां सवें आसचो संबंध कळीत आसल्लोच. हांगाच्या कथोलिकांचें मूळ गोंयांत म्हळ्ळें सर्वांक कळीत आसचो विशय. तशें आसतां गोंया संबंधी वोवियो/वेर्स पळेवंक मेळतात.

**गोंयां वेच्या वाटे(र) रोजलीन। रोजलीन कणेरिचें फीक ।२।**
**मुद्ये वयलें थीक रोजलीन। रोजलीन (या)म्ची व्होकल बायी ।२।**

**गोंयां वेच्या वाटे, मुडदांवकार**
**कणेरिचें पीक ।२।**
**मुद्ये वयलें थीक, ग्लोरिया, व्होरेताक संचिकार**
(डि' सिलवा, टी.ज.)

अशें वेर्सांनी गोंय धागाळ दिसोन येता आनी कोंकणी कथोलिकांक गोंयां सवें आसचो संबंध उजार कर्ता.

मंगळुरी कथोलीक लोकाक बोंबय संगियी बोव लागशिलो संबंध. बोंबय विशीं हांगाच्या साहित्यांत मसतू उल्लेक येतात मात्र न्हय बोंबय कोंकणी कथोलिकांक

जिण्ये आधाराचो गांवयी व्हय. एका काळार दिस्पटतो ग्रास जोडुंक शीदा गलफाक वचोंक असाध्य म्हणताना पयलें बोंबय वचोन थोडीं वर्सां काम कर्न, उपरांत गलफाक वेचें प्रेतन मंगळुरी तर्नाटे, (आनी थोडे पावटीं तर्नाटीं सयत) कर्तालीं. अशें एका काळार बोंबय शेरालागीं आमच्या लोकाक एक्ये रितिचो भावनात्मक संबंध आसल्लो तें हांगाच्या वोवियांनी आमी पळेव्येत.

**गांवचो सोनार व्होरेताचो ईष्ट**
**बोंबयिची शिस्त ह्या सर्पळेक**

**पर्नें कापड पिरिपिरी पिंदता**
**बोंबय व्हरुंक चिंत्ता आमचो होरेत बाब**

बोंबय, गोंयांबरीच कोंकणी कथोलीक लोकाक गलफा सवेंयी आप्त संबंध आसा तें नेगारुंक नजो. देकूनंच गलफाच्या संबंधा विशीं धाराळ वोवियो दिष्टीक पडतात.

**गोंयचो गोंयकार, भुंयचो भुंयकार**
**दुबायचो सावकार आमचो होरेत बाब**

**समाप्ती**

कोंकणी कथोलिकांच्या सांसकृतीक चरित्रेंत काजाराचो संभ्रम चडीत आसक्तेचो. ह्या संसकृतेक इतर धर्माच्या संसकृतेचो कांय थोडो प्रभाव पडला तें नेगारुंक जायना. तरिपूण कथोलीक काजाराची संसकृती अस्मितायेची खंडीत. तांतल्या तांतूं, रोस आनी काजारा संदरबीं गांवच्यो वेर्स आनी वोवियो काजाराक एक अथवोच संभ्रम हाडून दितात मात्र न्हय चाल्त्या जिवितांतले अनभोग, घडितां उडास काडुंक आधार जातात. वोवियांच्या जानपद प्राकाराक एक हजार वर्सांप्रास पाटली चरित्रा आसा तें पळेताना हो प्राकार निजाकी लोकामोगाळ मात्र न्हय अर्थाभरीत व्हय आनी काजाराचो संभ्रम चडीत बळवंत आनी अपरूब कसो करुंक कुमोक कर्ता ते स्पष्ट आसा. बदल्याल्ल्या आदुनीक संदर्भार वोवियो वेर्सांचो प्रयोग उणो जावनंच आसा. हाका कारणां सबार आसात. एका काळार गर्ज आनी सकाळीक म्हण दिसच्यो सबार वोवियो, वेर्स बदल्याल्ल्या अधुनीक काळाक असमंजस म्हण दिसचें सहज. मात्र न्हय, वेळ महत्वाचो जाताना लांबाय रुंदाय करुंक सबारांक पुरो पडाना. तरिपूण कोंकणी गिरेस्त दायजांतलें कांय थोडें उरवन संद्रापाक सार्कें वापार्चें खंडीत गर्जेचें.

ह्यो द्वारीं ही गिरेसत संसकृती उरयिल्लेबरी जाता मात्र न्हय, मुकल्या पिळगेक कांय थोडें हतांतर केल्ल्येबरी जाता.

*This research article is an outcome of the UGC sponsored research under STRIDE scheme. The title of the Konkani research project is: Konkani Logna Sahity: Kristanv, Kudubi ani GSB Samskrute Logna Sahityachem Tulanatmak Adhyayan (Konakni Marriage Literature: A Comparative Study of the Marriage Literature of Christian, Kudubi and GSB Communities).*

## आधार सूची


कामत, ए. (२००६). *सुरग्यासर.* बंटवाळ, मंगळूर: बसती प्रकाशन.

पिंटो, पि. एफ (२०१२). *करावळी कर्नाटकांतल्या कोंकणी कथोलिकांचो इतिहास.* मंगळूर: समन्वय प्रकाशन.

मोरास, पि. (२००८). *मोग्रें कारण.* मंगळूर: पडवळ प्रकाशन.

D'Souza, A. L. P. (1983). *History of the Catholic community of South Kanara.* Mangalore: Preeti Books.

Gomes, O.J.F. (1996). *Village Goa.* New Delhi: S. Chand & Company.

Gomes, O.J.F. (1999). *Old Konkani language and literature: The Portuguese role.* Goa: Konkani Sorospot Prakashan.

Gomes, O.J.F. (2000). *Konkani Manasagangotri: An anthology of early Konkani literature.* Goa: Konkani Sorospot Prakashan.

Saldhana-Shet, I. (n.d.). *Rosario Cathedral: 450 years of Catholic faith in Mangalurur.* Retrieved from https://www.rosariocathedral.org/history/history-of-rosario-cathedral.

Silva, S & Fuchs, S. (1965). *The marriage customs of the Christian in South Canara, India.* Mumbai: Indian Branch of the Anthrops Institute.

ह्या लेकनांतल्यो वोवियो ह्या सकयल्या संग्रहांतल्यो घेतल्यात

डी' सिलवा, W. (n.d.). Unpublished manuscript.

रेगो, ऊ. (२०१०). *वोवियो आनी वेर्स.* मंगळूर: कोंकणी अध्ययन विभाग, सां. लुवीस कोलेज.

लोबो, जे.बी. (१९८३). *सांबाड्डो.* मंगळूर: लोबो पबलिषर.

रेबेल्लो, एल.& डी' सोजा, एच.(२००७). *भायल्यान आयलो व्होर.* मंगळूर: कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी.

क्वाड्रस, एस. & डे' सा, एम.(२००१). *आमची कोंकणी संसकृती.* मंगळूर: मासटर मीडिया प्रकाशन.

क्वाड्रस, एस. (२००४). *आमची कोंकणी संसकृती.* कटपाडी, उडुपी: शृती प्रकाशन.

Konkani vovio (n.d). Retrieved from http://konkanivovio.blogspot.com/2016/06/blog-post.html?m=1

*(मेलवीन पिंटो न्कोंकणी लेकक, संसोधक. प्रसतूत सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्याचो निर्देशक, अमर कोंकणी षणमासिकाचो संपादक संगीं रेडियो सारंग आनी* AIMIT *(Aloysius Institute of Management & Information Technology) हाचो निर्देशक जावन सेवा दिता.)*

# कोंकणेचेर अरेबीक भाशेचो प्रभाव

**– बर्ट नायक, आसट्रेलिया**

*तर्जण: **पिंटो, वामंजूर***

**1. प्रस्तावन**

खंचीय भास स्थीर उरना. भास काळा संगीं बदलोनंच आसता. एका काळार एक्ये भाशेंत वापारून आसचे सामान्य सब्द काळ बदलोन आयिल्ले परीं 'पुरातन' वा अपरचलीत जातात. तशेंच काल्चे साद्या उलवण्यांतले सब्द आयचे 'साहितीक' सब्द जावन बदलोंकयी पुरो.

कोंकणेच्या पाटथळार सांगचें तर, इतालियन जेज्वीत मिशोनरी, भाशेतज्ञ मा.ए.एफ.एक्स. माफेयी हाचो सब्दकोश, कोंकणेंत एका शतमाना भितर बदलोन आयलेल्या सब्दांक, अभिव्यक्तिंक, उच्छाराक बरी साक्स. ही बृहत कृती १८८३वेर पर्गट जाल्ली तरी पाटल्या १४० वर्सांपरास उणे आवदे भितर ह्या सब्दकोशांतले चडताव सब्द आयच्या कोंकणी उलवपी लोकाच्या तोंडांत घोळानांत! म्हणजे ते सब्द आतां 'पुरातन' जाल्यात!

हर भास वेळा–काळा पर्माणे आपणाच्या संपर्काक आयलेल्या सेजारी भासां थावन पर्की/पर्देशी सब्द आपणावन घेता. थोडया संदर्भांनी अशें उसणें घेतल्ले सब्द क्रमेण त्येच भाशेचो एक वांटो जावन उरोंक पुरो वा थोडया तेंपान ताचो तिरसकार जावंकयी पुरो. अशें पेलया/परकी भाशे थावन घेतल्ल्या सब्दांचें स्थळीयकरण वा त्या सब्दाक उसणें घेतल्ल्ये भाशेन हंतहंतान तो सब्द मांदून घेवन आपणाचोच करचें इतलेंय सूक्ष्मथरान आनी सवकासायेन जाताकी क्रमेण तो सब्द पर्की भाशे थावन घेतल्लो म्हळ्ळो 'वाद' ओपून घेवंक इनकार कर्चो संभवयी आसता.कोंकणी उलवपियी ह्या वादाक मेकळे न्हय.

**धाखल्याक:** कोंकणेंत वापारच्या ह्या सकयल दिल्ल्या अरेबीक मुळाच्या च्यार सब्दांक पळेव्यां:

१. सवाल (question)
२. जवाब (response)
३. बर्कात (blessing. hope of receiving salvation)
४. बिर्मत (needs mercy)

वयर सांगलेल्या पयल्या दोन पर्शियन भाशेच्या सब्दांचें मेळप कोंकणे संगीं

केदनां जालें म्हळ्ळें नखखी सांगोंक जायना. तरी हें दोनी सब्द न्हय फकत कोंकणेच्या चालतया उलवणयाचे सब्द जावन उरल्यात, बगार ह्या सब्दांक परयाय जावन ह्या सब्दां पुरवीं आसलेले मूळ इंडो–युरोपियन सब्द संपूर्ण थरान पुसून उडवंक पावल्यात.

तिस्रो सब्द 'बर्कात' कोंकणी कथोलीक आनी मुसलीम वेवेगळ्या अर्थान उपेग कर्तात. कोंकणी कथोलीक 'बर्कात' सब्द सदांच्या उलवण्यांत नाकरप (negation) रितीन वापार्तात. दाखल्याक: ताका बर्कात ना. म्हणजे, ताका सालवासांव ना वा बचावी ना म्हळ्ळया अर्थार हो सब्द वापार्तात. पूण कोंकणी उलवपी मुसलीम लोक (नवायत) उर्दू उलंवच्या हेर मुसलिमा परीं हो सब्द 'बराका' (بركة) म्हणजे 'बेसांव? म्हळ्ळया अर्थान वापार्तात.

'बर्कात' म्हळ्ळो कोंकणी सब्द पर्शियन रुपार (बर्पा रीत आनी उच्छार दोनयी) आसा. परशियन अरेबीक सब्द सामान्य जावन 't' म्हळ्ळया व्यंजना बराबर आकेर जाता. ह्या मारिफात कळोन येताकी हाचो मूळ अरेबीक सब्द पर्शियन भाशे मारिफात कोंकणेंत घुसलो म्हळ्ळें.

अरेबीक सब्द 'बराका' जुदेव आनी अरबी भासांक संबंध जाल्लो सब्द जावनासोन मोयजेच्या काळा थावनंच चालतेर आसल्लो.'मेस्साया' म्हणजे जेजुच्या परिकल्पनाक आनी 'बराका'क खूब संबंद आसा तशें दिसता.

एकलो अरबी अन्येका अरब्याचेर सांपरदायीक अरेबीक भाशेंत देवाचें बेसांव दिताना 'बराक अल्ला फीक'(بارك الله فيك ) म्हणता तर अरेबीक बोलिंत उलयताना 'अल्ला बराक फी' (الله بارك فيه) म्हणचें सामान्य जावनासा.

चवतो सब्द 'बिर्मत' पर्शियन–अरेबीक सब्द 'बिरहमा' म्हळ्ळया सब्दा थावन उदेला. 'बी–रहमा' (lit. with mercy) म्हळ्यार 'दयेन' म्हळ्ळो अर्थ जाता. हो सब्द भोव चड पुरातन. इसलाम पुरविल्या लोकान सरवेस्पर देवाक संबंध जावन हो सब्द वापारल्ल्याचे दाखले मेळतात. हो सब्द गोंयकार कोंकणी कथोलिकां मदेंय चालतेर आसा. हाका एक दाखलो दिंवचो तर १९६३व्या वर्सा रीटा रोस हिणें गायललें 'बोंबयची बिर्मती' म्हळ्ळें पद.

**अरेबीक भाशेची मटवी परिचय: अवपचारीक अरेबीक आनी ताच्यो बोली:**

अरबी न्हय आसलल्लो चडताव लोक अरेबीक म्हळ्यार एकच भास म्हण चिंता.पूण एश्याच्या ओमन थावन आफ्रिकाच्या मावरिटानिया परयांत सुमार २२ देशांनी ५० थरांची अरेबीक भास आनी ताच्यो बोली उलयतात! तरी हांचे मदें

एक 'आधुनीक प्रामाणीक अरेबीक' वा एमएसए (Modern Standard Arabic or MSA) म्हळ्ळी अवपचारीक अरेबीक भासयी चाल्तेर आसा. जशें भारतीयां मदें संसकारांत मूळ भास आनी कोंकणी, मराठी, हिंदी, बंगाळी ताच्यो उपभासो म्हळ्ळो वाद आसागी तशेंच अरेबीक आनी ताच्यो ५० वयर उपभासो आसात. पूण भारतीय लोक आपणें उलवण्यांत तशें बरपांत वापारच्यो संपूर्ण अभिवृद्धी जाल्ल्यो कोंकणी, मराठी, हिंदी, आनी बंगाळी भासो संसक–ताच्यो बोली म्हण मांदून घेनांत बगार त्यो स्वतंत्र भासो म्हणंच मांदून घेतात. पूण अरबी तांच्या साहितीक वावराक आरेबिकाच्यो हेर बोली केदिंच वापारिनांत. तशें जाल्ले वरवीं तांच्या साहित्यांत बोली भाशेची सोभाय जिकून धरुंक वा आपणावंक सकानांत. अरेबीक बोलिंनी आसची सोभाय अवपचारीक अरेबीक भाशेंत वा एमएसए भाशेंत नातल्ले वरवीं ती भास यांत्रीक तशी भोगता.

अरेबीक भाशेच्यो बोली जावनासच्या हिजाजी, एमिराटी, कुवैटी भाशे मदें कोंकणी आनी मराठी मदें आसचे तितलो गूंड फरक आसा.अरेबीक बोलीं पयकी ईजिपटाची केयरीन भास सर्व अरेबीक लोकाक ओळकिची जाल्या.हाका मुकेल कारण इजिपटाच्या फिल्म इंडसट्रीन ही भास सिनेमांनी वापरल्ले वरवीं.ईजिपटाचीं फिल्मां सर्व अरबी गांवांनी प्रदर्शनाक पडतात जाल्ल्यान अरेबिकाच्या सर्व बोलिंचो लोक हीं फिल्मां पळेयता. भारतांत हिंदियी अशीच लोकामोगाळ जाली.

स्वाभावीक जावन उबजोन आयिल्ल्यो भासो सामान्य जावन एका ल्हान भौगोळीक प्रदेशाक सीमीत जावनासतात. हरेका ५० की.मी. सुत्तुरा भायर ते भाशेंत वेगळेपण दिसोन येता. देकून सर्कार शिंपडोन आसल्लेल्या ह्या भासांचें प्रामाणिकरण कर्न त्यो भासो साहितीक भासो जावन अभिवृद्धी करुंक प्रयत्न कर्ता. हाका लागोनंच ग्रीक, ल्याटीन, म्यांडरीन, हिंदी, स्प्यानीश, इंडोनेशियन आनी एमएसए भासो उदेल्यो. ह्यो भासो त्या त्या देशाचो सर्व लोक उलयना तरी एका देशांतल्या विवीध भासांच्या लोकामधें संपर्क भास जावन त्यो वाडोन आयल्यो. दाखल्याक हिंदी. भारताच्या हर राज्यांनी तांतांच्यो भासो आसात तरी, सगळ्या देशा भितर सामान्य संपर्क भास जावन हिंदी वाडोन आयली.

**अरेबीक भाशेचे थोडे गूण/अंश:**

नांबड्या दर्याच्या दोनी बगल्लेंनी सेमिटीक भासो वाडोनंच आयल्यो. त्या पयकी अरेबीक, हिबरू, अह्रमीक, टिग्रिन्या, टैग्रे, माल्टीस प्रमूक जावनासात. जेजू उलयनाल्लो ती अरमायक भासयी हांच्ये पयकी एक. प्रसतूत सुमार पांच मिलिया

ोक अरमायक उलयता. ह्यो सर्व अरेबीक मुळाच्यो भासो तरी ह्या सर्व भासां मधें ायतो फरक आसा. ह्या लेखनांत फकत अरेबीक भाशेच्या विशिसट अंशाविशीं सताप केला तरी ते विशिसट अंश हेर सेमिटीक भासांकी तितलेच लागू जातात.

**रेबीक भाशेचे मुळावे सब्दः**

अरेबीक सब्दाचो एक मुकेल अंश म्हळ्यार, तीन व्यंजनांच्या मूळ सब्दाची पस्थिती.अरेबीक इंडो–युरोपियन भाशेपरीं न्हय आसोन, अरेबीक मूळ सब्द ामान्य जावन वापारिजे जाल्लो संदर्भ, वेकती, संखो आनी लिंगाचेर होंदवोन ायत्या बदलापाक ओळग जाता. दाखल्याक आमी `k-t-b' म्हळ्ळो एक सब्द व्यां (ह्या सामान्य मुळाव्या सब्दाविशीं चडीत विवराकः https://en.wikipedia. org/wiki/K-T-Bभेट दिया) के.टी.बी. मुळान बर्पाक संबंद जाल्ल्या संगतीं विशीं आसा. पूण हो सब्द एकामेका संबंध नातलेल्या जायत्या हेर विशयांकी वापारला. ाखल्याकः

(كتاب) Kitaab (Book)

(مكتب) Maktab (Office, Desk)

(كاتب) Kaatib (Writer)

(مكتبة) Maktaba (Library)

(مكتتب) Muktatab (Subscriber)

मूळ सब्दाचें परिकल्पन हेर भाशे–पंगडांनी ना म्हण न्हय. दाखल्याक इंगलिशांतले जायते सब्द ल्याटीन मूळ सब्दां थावन उदेल्ले. तरी अरेबीक भाशेंत मूळ सब्दाचो उपेग विभिन्न जावनासा.

**सेमिटीक बरपा रितिंत स्वर गूर्त**

अरेबीक बर्पा रितिंत अजून स्वर गूर्त (vowel marks) सामान्य जावन वापारिनांत. तरी तांकां कसलोच समस्सो उदेना कितयाकगी म्हळ्यार ते व्यंजनांक (हें एकारुपान मूळ सब्द दाकयता) पळेयतात आनी वाक्याच्या संदर्भाचेर होंद्वोन मनांतच नादिसते स्वर लावन तें वाक्य सार्कें वाचतात. पूण .अरबी न्हय आसलेल्याक हें वाचुंक भोवच कश्ट.

सकयल दिल्लें वाक्यें पळेया. हें वाक्यें के–टी–बी (ك-ت-ب) मूळ सब्द जावन आसच्या जायत्या सब्दांक वापार्न रचलां

كَتَبَ الكَاتِبُ الكِتَابَ وكَتَبَ في مَكْتَبٍ في المَكْتَبَة

ह्या वाक्यांत स्वर गूर्त वापारुंक नांत. हें वाक्यें अशें लिपयांतर करयेत: Ktb alkatb alktab wa ktb fii mktb fee almktbah. एकलो अरबी दोळयांच्यो आसश्चो धांपिनासतानांच हांगासर मायाग जाल्ले स्वर भरती कर्न तें वाक्यें सारके 'य रितीन वाचुंक सक्ता.पूण अरबी न्हय आसलेल्याक हें कल्पन करुंकच साध्य जायना तितले कश्ट. गुमानांत दवरा- के-टी-बी व्यंजनांनी फकत 'a' स्वर मात्र वापार्तात. वाक्यें वाचताना हेर स्वराचो उच्छार कर्तात तरी बर्पांत वापारिनांत.

ह्या वाक्याचो आर्त असो आसा: हें पुसतक एका लेखकान बरयलां आनी तें पुसतकालयांतल्या दफतरांत बसोन बरयिल्लें जावनासा.

पांचव्या शतमाना आदीं हिबरू भाशेंत बरयिल्ल्या पन्र्या सोल्ल्यांतयी स्वर गूर्त नातल्ले.

उर्दू सेमिटीक भास न्हय तरी उर्दू बरप्यांनी आपल्या सामान्य बर्पांत क्रमेण स्वर गूर्त वापारचें सोडलें. इतियोफीन लोक सेमिटीक मुळाचो तरी ताणीं पांचव्या शतमाना वेळार आपल्या बरपांनी स्वर गूर्त वापारुंक सुरवातलें. हें तांकां भारतीयां थावन फावो जालें म्हणतात.

**थोडया इंडो-युरोपियन भाशेचेर अरेबीक प्रभाव:**

क्री.श. ७व्या शतमाना उपरांतल्या इसलामीक रायांच्या जयता वर्वीं अरेबीक भाशेन परशियन, सिंधी, उर्दू, हिंदी, पोर्चुगीस तशेंच स्प्यानीश भाशेचेर जायतो प्रभाव घालो. क्री. श. ६५१व्या वर्सा आरब्यांनी परशियाचेर दाड घालन जयत आपणायलें. ह्या झुजा उपरांत परशियनगारांनी अरबी लिपी आपणायली मात्र न्हय, परशियन भाशेंतयी जायती बदलावण हाडली. हें 'क्लासीक परशियन भाशे'च्या उदेवाक कारण जालें. पूण आयलेवारच्या वरसांनी परशियनगारांनी परत प्राचीन परशियन भाशेच्या सब्दांचो वापार सरुवातला.

क्री.श.७११ वेळार सिंध प्रांत्य अरब आडळत्याखाल आसल्लें.उपरांत आफघानिसतानाचे थोडे वांटे आनी सिंधच्या उदेंतिचे थोडे प्रदेशयी इसलामीक आडळत्याखाल आयले जाल्ल्यान ह्या प्रदेशांतलो लोक अरेबीक प्रभावाक ओळग जालो.ह्याच वेळार सिंध लोकान अरेबीक लिपी वापारुंक सुरवातली.

कांय थोडया शेकड्यां उपरांत परशिया मुळाच्या मंगोली रायांनी भारताचेर दाड घालन मोघल राजवटकी स्थापिली. मोघल रायांनी अरेबीक लिपिंतली पर्शियन भास आडळत्या भास जावन विंचली. उपरांत भारताक आयलेल्या ब्रिटिशानिंयी पर्शियन भाशेचो वापर मुकारिलो. १८३५व्या वर्सा ब्रिटिशांनी पर्शियन भाशे बदलाक

इंगलीश आनी हिंदूस्तानी (हिंदी आनी उर्दुची पूर्वज भास) भास आडळत्या भास जावन वापार्चो निर्धार घेतलो. ह्या लेखनांत उर्दू/हिंदी विशीं केल्ले सर्व उल्लेख हिंदूस्थानी भाशेकयी लागू जातात. उर्दू एक विशिश्ट भास म्हण ओळकोन घेंवचे पयलें हिंदूसतानी भास 'लिंगवा फ्रांख' (Lingua Franca) म्हणजे सामान्य संपर्क भास जावन वापाराचेर आसल्ली.

राजकीय उद्देशाक लागोन पर्शियन भाशेक ब्रिटीश आडळत्याचो पाटिंबो ना-जाल्लेंच परशियन मुळाच्या आरेबीक लिपिची हिंदुस्तानी भास आडळत्या आनी साहितीक वावरा भास जावन रूपीत जाली. मुसलिमांक तवळच मदरसा म्हळ्ळें शिकपा केंद्र आसल्ल्यान हिंदुसतानी भाशेचो वापार चडोंक सलीस जालें. मदरसांनी मुसलिमांचो पवित्र ग्रंथ खुरान वाच्चे खातीर अरेबीक लिपी शिकयताले जाल्ल्यान भारतांत हिंदुसतानी भास क्रमेण 'उर्दू' म्हण ओळकिची जाली. जायत्या मुसलीम न्हय आसलेल्या लेखकानिंय उर्दू वापार्न साहितीक कृतियो रचल्यो. त्या मारिफात उर्दू भारत उपखंडाची पयली आधुनीक साहित्य भास जावंक पावली. ह्या उपखंडांत साहितीक भास जावन नांवाडलेली दुसरी भास म्हळ्यार तमिळू.

उर्दू भाशेंत अरेबीक मुळाच्या उत्रांचो वापर भोव सवकास आनी हंता-हंतानी चलल्ली प्रक्रिया जावनासा. ईश्ट इंडिया कंपेनीन आपल्या थोडया सोजेरांक वेस्ट एश्याक धाडल्ले वरवीं कांय थोडे अरेबीक सब्द उर्दू भाशेंत मिसळाले. १८२०व्या वेळार थोडे भारतीय सोजेर आरेबियन परयाय द्वीपाक पावल्ले. १८८२व्या ईजिपट अभियानांत आनी उपरांतल्या आडळत्यांत व्हड मापान भारतीय सोजेरांक वापरल्लेंय आसा.ह्या वरवीं उर्दू भाशेंत अरेबीक मुळाच्या उत्रांचो वापार चडोन आयलो. तरिकी बरपांत तशें उलोवण्यांत वापारच्या आरेबियन सब्दांचें परशियन (वा उर्दू) रूप मूळ अरेबीक सब्दां वरनी चड वेगळें आसा. ह्या बदलापाक जायतीं कारणां आसात. तशें बदलाल्ले आरेबियन मुळाचे परशियन सब्द, मूळ अरेबीक उलयतेल्यांक सारके समजानांत. तितलीय बदलावण ह्या सब्दांनी जाल्या.

**ह्या प्रबंधांत वापारल्लीं रुपां (Criteria/कस्वटणीं):**

भास वा उत्रांचें मूळ सोधून काडचें कांय तितलें सलीस न्हय. भाशेशासत्रांत वा संबंधीत विषयांचेर तरबेत नातलेल्यांक हो वावर अनिकी चड कश्टांचो जाता. भारताच्या पशचीम करावळेंत वापारचो सब्द अरेबीक सेमिटीक कुळियेक संबंध जाल्लो म्हण निर्धार करुंक ह्या सकयल कळयिल्ले मानधंड उत्तीर्ण जायजे म्हळ्ळी माप ह्या लेखनाच्या लेखकान मांदून घेतलां. ते मानधंड हो परीं आसात:

१. कोंकणेंतल्या सब्दाक अरेबीक सब्दा संगीं शीदा वा पर्शियन भाशे मारिफात पुणी उच्छारांत सामकेंपण आसाजे.

२. तो सब्द भारतीय मुळाच्या खंच्याय हेर भाशे थावन उदेल्लेपरीं आसानाये.

३. उच्छारांत सामकेंपण नातल्यारी सन्निवेशांनी सामकेपण आसाजे.

इंडो-युरोपियन भाशेंतल्या सेमिटीक/अरेबीक सब्दांच्या रुपांतरांतली कठिणता समचोन घेवंक प्रेतन कर्ताना हांगासर सकयल दिल्ले अंश उडासांत दवरचे गरजेचे.

१. सेमेटीक भासो विशेस जावन अरेबीक, इंडो-युरोपियन भासांनी आमकां कळीत नातलेलीं जायतीं व्यंजनां (Consonants) मिसळोन आसात. त्या वर्वीं आरेबिक्रांतलें 'ध' ('dh') परशियन/उर्दू/कोंकणेंत 'Z' म्हण उच्चार करिजे पडता. दाखल्याक धरूर (ضرور) आसल्लें जरूर जाता. (विशेस कितेंगी म्हळ्यार आरेबिक्राच्यो विवीद बोली उलयतल्यांक स्वतः कुरानांतलीं कांय थोडीं व्यंजनां उच्छार करुंक जायनांत!)

२. चडताव सर्व सेमिटीक भाशेंनी (माल्टीस एक सोडन) नाम पदाच्या पयलें 'al' म्हळ्ळो निर्धिश्ट (Definite article) सब्द वापार्तात. पूण इंडो-युरोपियन भासो असले निरधिश्ट सब्द वापारिनांत.

३. जायत्या संदर्भांनी 'al' Definite article -तलें 'l' आपलो उच्छार होगडावन घेता आनी मुकल्या सब्दाच्या पयल्या व्यंजना थावन सब्द सुर्वात्ता.

**दाकल्याक:**

The following examples use the sun letters of sh, r, s, t.

| | आरेबीक | बरपा रीत | उच्छार |
|---|---|---|---|
| The sun<br>सुर्यो | الشمس | अल-शामस<br>Al-Shams | अल-शामस<br>Ash-Shams |
| The Lord<br>सायब, सोमी | الرب | अल-रब<br>Al-Rabb | अल-रब<br>Ar-Rabb |
| The Samaritan<br>सेजारी | السامري | अल-शामरी<br>Al-Sāmrī | अल-शामरी<br>As-Sāmrī |
| The student<br>विद्यार्थी | الطالب | अल-तालिब<br>Al-Tālib | अल-तालिब<br>At-Tālib |

The following examples use the moon letters of b, h, q

| | आरेबीक | बरपा रीत | उच्चार |
|---|---|---|---|
| The home<br>·घर | البيت | अल–बेइट<br>Al-Bait | अल–बेइट<br>Al-Bait |
| (The) India<br>इंडिया | الهند | अल–हिन्द<br>Al-Hind | अल–हिन्द<br>Al-Hind |
| The sea<br>दरयो | البحر | अल–बहर<br>Al-Bahar | अल–बहर<br>Al-Bahar |
| The moon<br>चंद्र | القمر | अल–खमरं<br>Al-Qamar | अल–खमरं<br>Al-Qamar |

४. व्हड मापान सेमिटीक सब्द पुल्लिंग आनी स्त्रीलिंग रुपार आसतात. ह्या व्याकरणी लिंगाचेर होंद्वोन उपरांतल्या सब्दासंगीं पुरविल्या सब्दाची मिसळावणी विभिन्न रितीन जाता. फ्रेंच ह्या रितिची परिकल्पना वापार्ता. पूण चडताव इंडो–युरोपियन भासांनी असल्या रितिचें व्याकरण आसाना. हें आटव्या शतमानांत अरेबीक उत्रांच्या पर्शियन रुपांतरा वेळार लिंग निरदिश्ट अरेबीक उत्रांक 't' अक्षरा मारिफात आकेर कर्चे सवें एकाच रुपाक परिवर्तन करुंक कारण जालें. उपरांत हिंदुस्थानी, उर्दू, हिंदी, कोंकणी, कन्नड तसल्या हेर भासांनी परशियन रितिचे अरेबीक सब्द तांच्या विशिसट जुळणे संगीं वापारुंक सुरवातलें.

Persianised Arabic words

| | आरेबीक | पर्शियन |
|---|---|---|
| Country<br>देश | دولة (dawlah) | دولت (dawlat) |
| Blessing<br>बेसांव | بركة (barakah) | بركت (barakat) |
| Visitation<br>भेट | زيارة (ziyārah) | زيارت (ziyārat) |
| Reality<br>हकीगत | حقيقة (haqīqah) | حقيقت (haqīqat) |

अरेबीक सब्द पर्शियन भाशेक सजयताना वापारल्ल्या बदलावणेवर्वी सेमिटीक वेक्तिंक सामान्य जावन पर्शियन (वा उर्दू) उलोवप्यां थावन येंवचीं उत्रां समजोंक कश्ट मार्तात.

**कोंकणेचेर अरेबीक प्रभावाचो वेळ–आवदीः**

अरेबीक मुळाचे सब्द जायत्या शतकां पुर्विंच कोंकणे संगीं मिसळोन गेल्यात

आसोन हो विकास हांवें ४ विभिन्न आवदी जावन विविंगड केल्यात.

**ए. पोर्चुगिसांच्या येण्या पयलें:**

अरेबियन परयाय द्वीप, परशिया, सोक्रोत्रा आनी होर्न आफ आफ्रिका प्रदेशाचो लोक क्रिसता पुरविंच अरेबियन दरयो उत्रोन पयणाक गेलयात. थोडे वेपारी, दऱ्या पयणारी आनी तांचे संगीं तांचे वावराडी – अशें हो लोक वयर सांगलेल्या विवीद प्रदेशा थावन भारताक दऱ्या पयणार येवन शाशवीत वसतेक लागलो.

पश्चिमा थावन आयलेल्या ह्या पकऱ्यांनी भारतीय उपखंड प्रदेशाक विवीध विभिन्न प्रदेश म्हण उल्लेक केला आसोन, ते–

**सिंध प्रांत्य** (हांतलो व्हड प्रदेश आतां पाकिसतानाचो वांटो जावनासा)

**अल–हिंद** (सिंध उदेंतीक तुलुवा आडळतें सुरवातलेल्या बारकुरा परयांतलो विशाल प्रदेश)

**मलबार**

**माबार** (कोरमंडल करावळी)

**गंगा डेलटा प्रदेश** (आयचें बंगाळ आनी बांगलादेश आटापून आसचो प्रदेश)

सात्व्या शेकड्या उपरांत आरेबिया परयाय द्वीप आनी परशियान क्रमेण इसलाम धरमाक वेंगलें.

गोवाचें चंदोर आल–हिंद प्रदेशांतलें भोव मुकेल बंदर जावनासल्लें. हांगासर मुसलीम वेपारिसत चड आसल्ले.अरबी ह्या बंद्राक सिंधबूर (سندبور) म्हण आपयताले तर पोर्चुगीस बरवपी डुवारटे बारबोजान १५१६व्या वर्सा बरयिल्ल्या आपल्या बुकांत ह्या बंदराक 'सिंटाकोरा' म्हण वोलायलां. पूण बरबोजान सिंटाक्रोरा म्हणंच बरयिल्लेंगी, वा उपरांत लिप्यंतर कर्तेल्यान मूळ नांव बदलोन 'सिंटाकोरा' केल्लेंगी म्हळ्ळें कळीत ना.

आल–डिमाश्की (شمس الدين الأنصاري الدمشقي) म्हळ्ळया सिरियन (१२५६–१३२७) मुळाच्या भूगोळ शासत्रीन बरबोजा प्रास २०० वरसां पयलेंच 'सिंधबूर? बंदराविशीं आपल्या बुकांत उल्लेक केला.

सगळ्या अल–हिंद प्रदेशांतल्या मुसलीम यात्रिंक गोवाचें चंदोर एक मात्र मुकेल बंदर जावनासल्लें. सुमार ९व्या शेकड्यांत ह्या बंदराचें स्थापन जाल्लें. डेल्लिथावन मेक्काक वेतल्यांनी चंदोरांत दोण धरची आसल्ली. पूण पोरचुगीसांनी गोवा आपणा स्वादीन केल्या उपरांत चंदोर बंदर मुसलिमांक मुकेल बंदर जावन उरलें ना.

मोघलांनी आपल्या यात्रिंक सूरत बंदर उग्तें केलें. ह्या वेळार अल-हिंद प्रदेशाच्या सकयल्या पश्चीम भारताच्या करावळी प्रदेशांतल्या यात्रिंनी कोझिकोड / क्यालिकट (قالقوط) बंद्रा मारिफात जेड्डाक वचोन मेक्काक पयण कर्चें आसल्लें.

चंदोर मुसलिमांचें मुकेल बंदर जावनासलेल्या वेळार थंयसर भेट दीवन आसलेल्ला हजारों यात्रिकां/ वेपारी/ दऱ्या पयणारी आनी तांच्या कामेल्यां वर्वीं जायते अरेबीक सब्द कोंकणेंत घुसले. साधार्ण ह्या काळार पशचीम एश्याचो जायतो लोक कोंकणी उलयतल्या प्रदेशांनी ठिकलो आनी ताणीं कोंकणी आपणाची मूळ भास जावन घेतली म्हळ्ळें गुमानांत दवर्चें गरजेचें.

हिबरू आनी अरेबीक भाशे कुटमाचे जायते सोजेर आरेबियन परयाय द्वीप आनी हार्न आफ आफ्रिका (आफ्रिकाचो पऱ्याय द्वीप प्रदेश. हो तांबड्या दरयाच्या दक्षिणाक आसा. प्राचीन काळार ह्या प्रदेशाक बारबरा आनी इथियोपियन देश म्हणयी वोलायिल्लें आसा) प्रदेशा थावन भारताक आयिल्ले क्रमेण हांगाच स्थीर रावले. तवळचे कांय थोडे भारतीय आडळतेगारयी वासतव जावन पशचीम एश्या आनी आफ्रिका मुळाचे जावनासल्ले.

**बी. सोळाव्या आनी सत्याव्या शेकड्यांत गोंयः**

आरब्यांनी (आनी उदेंती आफ्रिकाचे बरबर लोक) सुमार ७०० वर्सां परयांत पोरचुगल आनी स्पेयनाच्या मुकेल वांट्यांत आपलें आडळतें चलयलें. ह्या वेळार जायते पोरचुगीस आनी स्पेयनाचो लोक इसलाम धर्माक कन्वेडतर जालो.

ऐबभेरियन परयाय द्वीपाचेर अरेबीक भाशेचो प्रभाव चड काळाचो जावनासलेल्यान अजूनी ह्या प्रदेशाच्या भासांनी चड संख्यान अरबी मुळाचे सब्द घूसल्ले पळेवंक मेळतात. वासतव जावन ह्या प्रदेशाच्या जायित्त्या गांवांचीं नांवां अरबी मुळाचिंच जावनासात.

**दाखल्याकः**

a. लिसबन जें आदीं 'अल-लिशबूना' जावनासल्लें.

b. अल्मेडा शहर 'अल-मैदा' (المائدة) जावनासल्लें. अल-मैदा म्हळ्यार अरेबीक भाशेंत समतट्ट भुंय म्हळ्ळो आर्थ जाता.

c. मिसकिटा - पोर्चुगीसांचें एक सामान्य आलकुंज अरेबीक मुळाच्या 'मासगीड' (पळ्ळी वा मोस्क) सब्दा थावन आयिल्लें जावनासा. आदले मिसकिटा लोक पळ्ळेलागीं (Mosque) जियेताले वा पळ्ळी सांबाळून आसल्ले. ताच्याकी

मृकेल जावन मिसकिटा इस्रेली जावनासल्ले. (मुसलीम न्हय आसल्यारी) अरेबीक उलयतलयांनी आपल्या देव तेंपलाक मसगीड/मसचीद म्हण वोलायलें.

d. थोड्या प्रदेशाचे सेमीट 'J' सब्दा बदलाक बळवंत 'g' वापार्तात. दाखल्याक: एर्जीप्चीट Jamal Abdel Nasser आसल्लें सेमिटांनी उचीप्चीट Gamal Abdel Nasser केल्लें पळेवंक मेळता. हिबरू भाशेंत 'J' सब्द (Sound) ना म्हळ्ळेंय गुमानांत दवरचें.

ऐबेरियन परयाय द्वीपाच्या (Peninsula) क्रिसतांव राय कुंवरांनी सुमार क्री. श. ७१८/७२२ वेळार रेकंक्रविसटा (Reconquista) म्हळ्ळी चळवळ सुर्वातली. [Reconquista म्हणजे Reconquista. ८व्या शतमानाच्या सुर्वेर ऐबेरियन पऱ्याय द्वीप स्वादीन कर्न आसलेल्या मुसलिमा (मूर्स) थावन आपलें राज पाटीं जोडन फेवंक क्रिसतांव राजांनी चलयिल्ली चळवळ (Campaign) ही.] ही चळवळ अकेर जाल्ली १४९२व्या इस्वेंत. हाच्ये उपरांत फकत पांच वर्सांनी (क्री.श. १४९७) वासको-डा-गामा भारताक येवन पावलो. पोर्चुगीसांनी गोंयांत आपलो मिसांव वावर सुर्वातचे तवळच तांकां अरबी भाशेसंगीं बरीच सळावळ आसल्ली. कोंकणी धार्मीक सब्द 'अजाप' (عجب) मुळान अरबी सब्द जावनासोन पोर्चुगीस मिशोनरी मारिफान गोंयच्या कोंकणेंत मिसळालो. कांय थोड्या मुसलीम अपराध्यांकयी पोरचुगीसांनी बळवंत कर्न क्रिसतांव धरमाक कनवेडतर केल्ले आसोन हांचे थावनयी थोडे अरेबीक सब्द कोंकणेंत घुसले. त्या भायर हार्न आफ आफ्रिकाच्या थोड्या सेमिटीक लोकाकी पोरचुगीसांनी वावराडी जावन घेतल्ले. फवजेंत तशें हेर कामांनी आसलेल्या ह्या लोकानयी कोंकणेक अरेबीक सब्दांचें दान दिलें आसतलें.

४. मंगळुरी कथोलीक लोक श्रीरंगपटनांत बंदेंत आसताना टिप्पुच्या काळार मंगळुरी क्रिसतांवांक मलबार क्रिसतांव म्हणताले. टिप्पुच्या आडळत्यांत स्थळीय लोका सवें आरेबियन पऱ्याय द्वीपाचे अरबी, परशियन तशें भारताच्या विवीद कोनश्यांनले मुसलीम अधिकारी आसल्ले. टिप्पुच्या काळार परशियन आडळत्या भास जावनासल्ली.ह्या वेळार जायते अरेबीक सब्द मैसूर आडळत्याच्या सब्दकोशा भितर घुसले. कशेक संबंद जाल्ले, तशेंच तिरव्याक लग्ती खारीफ (الخريف) रबी (ربيع)., फसल् (فصل), हद्द (حد)., मोबलग् (مبلغ). जारी (ند) सब्द अरबी मुळाचे जावनासोन आनां कन्नडाचे जावंक पावल्यात. हांतले कांय थोडे सब्द कोंकणी उत्रांवळिंती घुसल्यात.

**c. मंगळुरी कथोलीक लोक श्रीरंगपटनांत बंदेंत आसताना**

सामान्य सामाजीक पाटथळार कोंकणी उलवण्यांत फकत आडळत्याक संबंदी सब्द मात्र न्हय आसतां अरेबीक मुळाचे हेर सब्दयी कोंकणी–उत्रावळिंत भरशिल्यात. ह्या काळार जायतो मंगळुरी कोंकणी कथोलीक लोक इसलाम धरमाक कनवेडतर जालो. मंगळुरी कोंकणी कथोलिकांनी वापारचे आरेबियन मुळाचे सब्द गोंयकार कोंकणी कथोलीक क्रिसतांव वापारिनांत म्हणताना ह्या सब्दांचें मूळ श्रीरंगपटणांतली मंगळुरी (मलबार) कोंकणी कथोलिकांची बंदड जावनासतेली म्हणच्याक कायिंच दुबाव ना.

**मंगळुरी कोंकणी कथोलिकांनी वापारचे आरेबियन मुळाचे थोडे सब्दः**

| आरेबीक | कोंकणी | आरेबीक | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| السفارة | शिफारस | كسب | कसब |
| تربية | तरबेत | قرر | खरार |
| المحتوى | माहेत | | |

'चुरूक' म्हळ्ळो सब्दयी ह्याच वेळार कोंकणेंत घुसलो तशें दिसता. अशें कोंकणी क्रिसतांवांनी आपणायिल्ले आरेबियन मुळाचे परशियन सब्द कन्नडांतयी पळेवंक मेळतात म्हळ्ळें गुमानांत दवरिजे.

**d. पाटल्या १५० वरसांनी**

पाटल्या १५० वरसांनी पशचीम करावळेचो जायतो लोक कामा निमतीं वेवेगळ्या देशांक देसांतर गेल्लो आसा. ह्या वेळार ताणीं हिंदी/उर्दू उलयतल्या लोका थावन जायते अरेबीक सब्द उसणें घेतल्यात.

दाखल्याक:'सलाम' म्हळ्ळो सब्द जायत्या भारतीय भासांनी लोकाक गौरवाचें वंदन करचे खातीर वापार्तात. ह्या सब्दाक भोव लांब काळाचो इतिहास आसा. एका अंदाजा परमाणे क्री.पू.१३०० वेळार म्हणजे मोयजेच्या काळारच हो सब्द चाल्तेर आसल्लो. सलाम म्हळ्यार 'देवाक अर्पण' म्हण अर्त. पेलयाक वंदिताना 'हांव तुका देवाक समर्पितां' म्हळ्ळ्या अरथार करचें हे घोशण सेमिटीक लोकामदें हेर वकतींक वंदन करुंक हें उतर चालतेर आसल्लें. सेमिटीक मुळाचे धर्म संसारभर पासारून आयलेल्यान हो सब्दयी संसारभर पासारलो.

विशेस म्हळ्यार हो सब्द तुळू भाशेंतयी चाल्तेर आसोन 'सोल्मेलू' जाला. म्हणजे जायते सलाम म्हळ्ळ्या अर्थार हो सब्द वापार्तात. अरेबीक मुळाचे थोडे

कोंकणी सब्द अशे आसात:

| आरेबीक | कोंकणी | शेरो |
|---|---|---|
| جبة<br>(Jubba)<br>long shirt | जिब्बो<br>(Jibbo ) | जुब्बा म्हळ्ळो सब्द आयच्या दक्षीण सुडानाची राजधानी जुबा थावन उदेला जावंक पुरो. एश्या, आफ्रिका आनी युरोपांत लांब दगलो न्हेसची सवय आदीं थावन आसा. इसलामीक पूर्वी अरेबियन पऱ्याय द्वीपांतल्या थोड्या प्रदेशांनी हें सांपरदायीक न्हेसण जावन आसल्लें. हो सब्द इंडोनेश्या, अलेशिया आनी पाकिसतानांतयी त्याच अर्थार उपेग कर्तात. |
| قميص<br>(Qamees)<br>Shirt | कोमिस<br>(Komis) | शर्ट- हाचो परयाय सब्द कोमिस, न्हय फकत भारतांत बगार पाकिस्तान, इरान, पोरचुगल/स्पेयनांती वापारतात. |
| قميص<br>(izar) shorts, trousers | इजार<br>(Izar) | |
| النقصان(Nuksaan)<br>Deficiency, loss | नुकसान/ लुकसान<br>(Nuksaan luksaan) | उरदु: नुकसान – हो सब्द कानाडी भाशेंतयी आसा |
| تاريخ<br>(Taareekh) Date | तारिख<br>(Tarikh) | भारतांतल्या जायत्या भाशेंनी हो सब्द उपेगाचेर आसा |
| جريمة<br>jareema<br>(crime) | जुलम<br>(Zulm) | हिन्दी (जुलम) आनी उरदू (جريمة) सब्द अरेबीक मुळा थावन उदेलयात. कोंकणेक हो खंच्या मुळा थावन आयल्या म्हळ्ळें नखखी कळीत ना. पूण कोंकणेंत ढआसल्ले एजालां. |
| قبول<br>qabool<br>(acceptance) | कबलात<br>(Kablaat) | उरदू (قبول)<br>(qaboolat) -acceptance |
| بندق<br>bonduq<br>(Gun) | बोंदूक<br>(Bonduq) | ह्या कोंकणी सबदाक अरेबीक गांच आसा. येमेन लोकयी सरोंग म्हळ्ळें वस्त्र न्हेसना. आदीं हें वस्त्र न्हेस्ता. आदीं हें वस्तुर ते सिंद प्रांता थावन आयात करताले. क्यांबेथावन आयात केल्ल्या सरोंग वस्त्राक 'कंबाय' म्हण अपयता. आफ्रिका, मध्यप्राच्य, भारत आनी आगनेय एशयांतल्या प्रदेशांत प्रदेशांनी हो सब्द चालतेर आसा. |

| | | |
|---|---|---|
| فوطه<br>Footah<br>(Sarong) | पुडवें/फुडवें<br>(Pudvem / Fudvem) | ह्या कोंकणी सबदाक अरेबीक गांच आसा. येमेन लोकयी सरोंग म्हळ्ळें वसतुर न्हेसता. आदीं हें वसतुर ते सिंद प्रांता थावन आयात करताले. क्यांबेथावन आयात केल्ल्या सरोंग वसतुराक 'कंबाय' म्हण आपयतात आफ्रिका, मध्यप्राच्य, भारत आनी आगनेय एशयांतल्या प्रदेशांनी हो सब्द चालतेर आसा. |
| بلوزة<br>(biloozah)<br>blouse | बाजु<br>(Bazu / Buluz) | 'ब्लौज' म्हळ्ळो इंगलीश सब्द फ्रेंच सबदा थावन आयला. फ्रेंचांनी हो सब्द पोरचुगीस सब्द 'ब्लूसा' थावन उसणें घेतल्लो जांवक पुरो. हो सब्द अरेबीक सबदाक ताळ पडता. |
| السفارة<br>Sifaarah<br>(Embassy) | स्शिफारस<br>Sifaras | उरदु सब्द سفارشات(Sifaarashat), आनी कन्नड सब्द शिफारसुगळु दोनी सब्दांचो अर्थ शिफारस. तोकणाय, उल्लेख हो ह्या दोन मुळांथावन आयला जावयेत. परशियन भाशेंत سفا(Sifaarat) म्हळ्यार हेर देशांच्या प्रतिनिधि मंडळेंचें दफतर म्हळ जाता तर سفارش (Sifaarash) म्हळ्यार फरमाण/हुकुम म्हळ्ळो अर्थ जाता. |
| كنية<br>(Kunya)<br>Surname | आलकुंज<br>Alkunz | पोरचुगीसांनी भारतांक कनवडतेरपण सुरवातचे परयांत कोंकणी उलवप्यां मदें कुंपाद्र, कुमाद्र, पोदोरन, मोदोरन आनी पोदोरन,–मोदोरनी थावन जोडन घेतल्लें आलकुंज नातल्लेंच. देकुन ह्या संबंधी आसचे सर्व सब्द पोरचुगीसां थावन रचल्लो सब्द. हे विशीं चडित सोदना करची गरज आसा. तशेंच कुनयाद/कुनयाड म्हळ्ळ्या सबदा विशिंयी चडीत सोदनां करची गरज आसा. |
| مستعد<br>(Musta'd)<br>Ready, prepared | मुसतायकी<br>Mustaiki<br>(wear clothes for setting out) | अरेबीक सदांच्या चालिंतल्या उलवण्यांत मुसतायकी म्हळ्यार 'तुं तयार आसाय' म्हळ्ळो अर्थ जाता. हे विशीं चडीत सोधनां करची गरज आसा. |

| | | |
|---|---|---|
| فصل<br>(fasal)<br>Season | फसल<br>Fasal | कोंकणे संगीं हेर भारतीय भासांनी बेळें/पिकावळ/लंबोन घालच्या बेळयाची रास – हाका फसल म्हणतात. हो सब्द कन्नड थावन कोंकणेक आयल्या चांवकी पुरो. |
| اخير<br>(Aakheer)<br>last, final | आखेर<br>Aakher | हो सब्द चडतांव भारतीय भाशेंनी विविध अर्था संगीं पळेंवक मेळता. कोंकणेंत ह्या सबदाचो अर्थ 'अंत्य/निमाणे/संपणी' म्हण जाता. |
| تربية<br>(tarbee-a)<br>education, training | तरबेत<br>tarbet | परशियनांत हो सब्द تربيت (tarbait). अरेबीक/इसलामीक संसारांत हो सब्द कुरानाच्या तरबेती संगीं एकवटला. भायल्या संसारांत हो सब्द शिकपा संगीं एकवटला. अरेबिकांतली एक सांगणी अशी आसा: منتربيةاللهلك "ह्या संसारांत जियेंवक जाय आसची तरबेती देवान तुका दिल्या. कोंकणेक हो सब्द परशियन मुळाथावन आयला. कन्नडांतयी हो सब्द चालतेर आसा. |
| حق<br>(Haq)<br>right, prerogative | हक्क<br>Hakk | |
| باابضلا (dubaab)<br>(Fog) | धोव<br>(Dhov) | आरबी मुळाथावन कोंकणेक आयिल्लो सब्द हो. पूण मराठिंत हो सब्द ना. |
| حد<br>(Hadd)<br>end, limit, edge, boundary | हद्द<br>Hadd | |
| فقط<br>(fakat)<br>only | फकत<br>Fakat | |
| عقل (Aqal)<br>Mind, brains, reasoning | अक्कल<br>Akal | |
| عجب<br>(Ajab)<br>wonder, marvel | अजाप<br>Ajaap | |
| إرادة<br>(iraada)<br>wish, volition | इरादो<br>Iraado | |

| | | |
|---|---|---|
| مطلب (matlab) demand, request, question | मतलब/ मतलबी matlab | कोंकणेंत ह्या सब्दाचो नकारात्मक अर्थ आयला. दाखल्याक: तो भोव मतलबी. पूण हिंदी अशें उरदू भाशेंत 'अर्थ' म्हळ्ळ्या अर्थान हो सब्द वापरतात. पूण हे दोनयी अर्थ सेमेटिक मुळा थावन वेगळे आसात. |
| بطة (bata) duck | बदक Badak | उरदूंत بطخ (batakh); हिन्दींत (बतख); कन्नडांत बातुकोळी |
| البطارية bataariya (battery) | बतेरी Batteri | इंगलिशांत्लो ब्याटरी battery सब्द १९ शेकड्याच्या सुरवेचो. इंगलिशांत हो फ्रेंच मुळाचो सब्द म्हण उल्लेख केला. फ्रेंचांनी हो सब्द पोरचुगीसां थावन घेतला जांवकी पुरो. पोरचुगीसांचो सब्द 'a bateria' अरबी सबदाक भोवच ताळ पडता. |
| الباذنجان (baadanjaan) eggplant | वायंगें Vainggem | हो सब्द संसारभर कसो पासारलो म्हळ्ळें सोधून काडुंक भोवच कश्ट. तो उपखंडा थावन पशचिमाक गेलोगी वा पशचिमा थावन उपखंडाक आयलोगी म्हळ्ळें कळित ना. पूण सेमिटिक लोकांनी वायंगें खाण जावन वापारचे विशीं पुरातन काळाचे दाखले आसात. भारतीय सब्द (संस्कृतांत): वंगा, वंगना, हिन्दींत: (बैंगन), बैंगन, कोंकणिंत वायंगें अरेबीक सब्दाक ताळ पडता. |
| المحتوى Muhtawa (content) | माहेत Mahet | ह्या सबदाचें मूळ अरेबीक-गी वा परशियनगी म्हळ्ळें दृढ करुंक भोवच कश्ट. कोंकणेक हो सब्द कन्नड थावन आयला म्हळ्ळो अंदाज. |
| الدلال (dalaal) Agent, broker, Auctioneer | दलाल Dalal | कोंकणी सवें जायत्या भारतीय भाशेंनी हो सब्द पळेंव्क मेळता. |
| كسب (Kasab) Earning, gaining | कसब Kasab | कन्नडांत हो सब्द 'कसबु' जाला. पूण अर्थ कोंकणेचोच – व्याप्त, वृत्ति, उद्योग |

| | | |
|---|---|---|
| فَسِيحُوا<br>(Faseehoo)<br>Move about, travel back and forth | पासायो<br>Pasayo | कोंक्रणेंत 'पासायो' सब्द खंडित जावन भारतीय मुळाचो न्हय. हो नामपद जावन मात्र उपेगाचेर आसा. 'पासायो' म्हळयार कसल्याच आमच्या उद्देशाविणें हेणें तणें चलचें. |
| بركة<br>(Barakah)<br>Divine blessing | बरकात<br>barkaat | हो सब्द हिबरू भाशेंत ब्राकोत (brakhot) जाला. परशियाना बरीं हिबरूंतयी सब्द 't' थावन आकेर जातात. अरेबिकांत स्त्रीलिंगाच्या संदरभांनी वा मुकलो सब्द स्वरा मारिफात सुरवातला तर पाटलो सब्द '६' मारिफात आकेर जाता. |
| برحمة (b-rahmah)<br>Mercifully, with mercy | बिरमत<br>birmot | परशियनांत हो सब्द برحمة (barahmat) म्हण्जे 'दयेन' |
| حكمة (hikma)<br>Wisdom, intellect, sapience | हिकमत/ हिकमोत<br>hikmot | हो सब्द अरेबीक मुळाचो परशियन सब्द. हाचें परशियन रूप حكمت (hikmat) म्हळयार जाणवाय/ बुदवंतकाय. पूण कोंकणेंत ह्या सब्दाक नकारात्मक अर्थ आयला. |
| إشارة (Ishaara)<br>Signal, sign, indication | हिशारो/इशारो<br>Hisharo, isharo | हाचें परशियन रूप اشاره (ishaara). |
| قرار / قرر (qarar)<br>Resolution, decision | करार<br>Karar. | हो सब्द कन्नडांतयी उपेगांत आसा (करारु) काजार म्हळ्ळो कोंकणी सब्दयी casar म्हळ्ळ्या पोरचुगीस सब्दा थावन उदेला. |
| فرمان (Farmaan)<br>Decree, edict, order | फरमाण Farman | कोंकणेंत ह्या सबदाक क्रियापदयी (फरमाय) आसा. हो अरेबिकांत आसचो परशियन मुळाचो सब्द. |
| الهندسة<br>(Hindasa)<br>Engineering | अंदाज<br>Andaz | परशियन اندازه(अंदाझा) सब्द अरेबिकाच्या الهندسةसब्दा थावन उबजाला. परशियन सबदाचो अर्थ माफ, तूक, दाकोवणी. पूण उरदुंत ह्या सब्दाक (اندازه) अंदाज, पारकी, मोल बांदची करणी, म्हळ्ळो अर्थ जाता. कोंकणेक हो सब्द उरदू थावन आयला जांवक पुरो. |

| | | |
|---|---|---|
| فلأنه<br>(Falaana)<br>"so and so" | फलाणो/फलाणे<br>Falano/falanem | हो सब्द संसारभर जायत्या भाशेंनी उपेगाचेर आसा. थोडो इंगलीश उलवपी लोक Fulano (m.)/Fulana (f.) म्हळ्ळे सब्द वापारतात. हे सब्द स्प्याबुशा थावन आयिल्ले जांवक पुरो. |
| و غير ها<br>(wa ghair haa)<br>and other than that | वगैरा<br>wagaira<br>(et cetera) | तीन अरेबिक सब्द मेळोन दोन परशियन सब्द आनी एक भारतीय सब्द जाल्यात. परसियनांत "غيره" (wa ghaira) तर जायत्या भारतीय भासांनी हो सब्द वगैरा वगैरा म्हण दोदोन पावटीं सांगचें आसा. |
| زلابية<br>(zalaabia)<br>Jilebi | जिलेबी<br>Jilebi | |
| الذي<br>(zee)<br>who | जो<br>Zo | कोंकणेंत हो सब्द चडशें धार्मिक साहित्यांत मात्र पळेंवक मेळता. दाखल्याक: जो सरगार आसाय. सेमिटिक संसारांत ह्या सब्दाक चड प्राचीनता आसा. |
| فرار<br>(faraar)<br>escape, flight, elopement | फरार<br>Farar | परशियन भाशेंतयी हो सब्द असोच आसा. |
| فرصة<br>(fursa)<br>chance, opportunity | पुरसोत<br>Fursot, pursot | परशियन भाशेंत فرصت (fursat). कोंकणेंत हो सब्द साध्यना/वेळ ना म्हळ्ळ्या अर्थार उपेग जाता. |
| شاطر<br>(shaater)<br>Smart, clever, cunning | चतुर, चतराय<br>chatur | कन्नडांत हो सब्द चतुर जाला. |
| خالي<br>(khaali)<br>Empty | खाली<br>Khali | जायत्या भारतीय भासांनी हो सब्द आसा. |
| شروعة<br>(Shuru-a)<br>Starting | सुरु<br>Suru | हिन्दी/उरदू–शुरुवात (Shuruaat) परशियन "شروع" (shuru) |
| تجاري<br>(tijaarii)<br>commercial, mercantile, trade | तिजोरी<br>Tijori | दुडु जोगोवन दवरच्यो बिरो |

| | | |
|---|---|---|
| الأموال (amwaal) Funds, money | मोल Mol | |
| نصيب (naseeb) destiny, luck | नसीब/नशीब Naseeb / nasheeb | |
| فل (Ful) Flower | फुल Ful | परशियन मुळाचो अरेबियन सब्द. तरी हो एम.एस.ए.च्याकी चडित बोलिंनी वापारतात. उच्चार कोंकणेंत आसल्ले बरिंच्च. अरेबिक भाशेंत ह्या सबदाक फुल म्हळ्ळोच अर्थ तरी थोडया संदरभांनी कळे म्हळ्ळो अर्थयी जाता. |
| وزن (wazan) weight, balance | वजन Wazan | कोंकणेंतलो 'वोजें' म्हळ्ळो सब्दयी ह्याच मुळांतलोगी ? |
| خط (khat) Line (of | खत Khat | हिन्दी वा उरदू मुळा थावन कोंकणेक घुसल्लो जांवक पुरो. |
| مضبوط (madhboot) exact, perfect, accurate | मजबूत mazboot | हिन्दी/उरदुंतयी हो सब्द mazboot |
| منافع (munaafa) benefit | मुनाफो Munafo | |
| عريضة ('areedha) petition, request | अर्जी Arji | अरेबीक बोलिंनी उलयताना हो सब्द 'आरिज' म्हळ्ळे परीं आयकाता. पूण परशियन भाशेंत हो सब्द अरेबिका परींच आसा. |
| بقاش (baqaash) useless/meaningless banter | बकवास Bakwas | हिन्दी/उरदूंत हो सब्द सामान्य कोंकणेंत हो हिन्दी–उरदू थावन आयला. अरेबीक बोलिंनी मात्र हो सब्द पळेवंक मेळता. |
| وقت (wakt) time | वक्तान Wakat | |
| الصاحب (Saahab) Companion, owner (as in the case of a shop), boss | साहेब, सायब Saheb, saib | समाजेंतल्या उंचल्या स्थानमानाच्या वेक्तीक अशें उलो मारतात. |

| | | |
|---|---|---|
| قانون<br>(qaanoon)<br>Law, rule | कानून<br>Kanoon | |
| صابون<br>(Saaboon)<br>Soap | साबू<br>Saaboon | |
| شيطان<br>(Shaitaan)<br>Satan, devil | सयतान<br>Saitan | |
| خبر<br>(Khabar)<br>News item | खबार<br>khabaar | |
| دماغ<br>(Dimaagh)<br>brain, brain | दीमाग<br>Dimaag | |
| حال<br>(Haal)<br>Condition, situation | हाल–हवाल<br>Hal | |
| بالكل<br>(bil-kul)<br>In all | बिलकुल<br>Bilkul | |
| أصل / أصلي<br>(Asal, Aslii)<br>Original, native | असल–असली<br>Asal, Asli | |
| صحيح<br>(Sahee)<br>Right | सै<br>Sai | |
| خزينة<br>(Khazeena)<br>treasury | खजनो<br>Khazno | |
| غزل(ghazal)<br>spinning, yarn | गजाली<br>ghazali | |
| الفائدة<br>(Faaida)<br>Benefit | फायदो<br>Faido | |
| حاضر (haadhar)<br>present | हाजिर, हाजरी<br>Hajir, hajri | |
| نقد (naqad)<br>cash | नगदी/नग्दी<br>Nagadi, nagdi | |

| | | |
|---|---|---|
| حساب<br>(Hisaab)<br>account, calvulation | हसोब<br>Hisob | |
| دخل (dakhal)<br>enter | दाखल<br>Daakhal | |
| فرق (faraq)<br>difference | फरक<br>Farak | |
| لغاية<br>(laghaaya)<br>Until | लागायत<br>Lagayt | भुंय मेजताना हो सब्द उपेग करतात. कोंकणी आनी कन्नडांत आसचो हो सब्द परशियन मुळाचो |
| الدرجة (darja)<br>Class, grade | दरजो<br>Darzo | थोडया अरेबीक बोलिंनी हो सब्द दरजा म्हण उच्चार करतात. हेर थोडे दरगा म्हण उच्छार करतात. परशियन्नांनी दरग असल्लें दरगात केलें. कन्नडांत हें तरगती जालां. |
| رطل (ratal)<br>pound (weight) | रातल<br>Ratl | १९७०च्याकी पुरवीं मेट्रिक माप येंवचें आदीं मेजपाचें माप |
| غنى (ghana)<br>sing | गाणां<br>Ganam | |
| خلاص (khalaas)<br>stop, deliverance | खलास<br>Khaḷa | |
| سؤال (sual)<br>question | सवाल<br>Sawal | |
| الحرامي (haraami)<br>thief | हरामी<br>Harami | |
| ضرور (dharoor)<br>necessary, essential | जरूर<br>zaroor | |
| ليمون (laimoon)<br>lemon | लिंबो<br>Limbo | |
| ميدان (meedaan)<br>public square | मैदान<br>Maidan | |
| بدل (baddal)<br>switch, substitute | बदल<br>Badal | |
| تقليد (takleed)<br>imitation, copy, mimic | नकली<br>Nakli | |

| | | |
|---|---|---|
| دستور (dastoor) constitution | दसतुर Dastur | |
| غلام (ghulaam) boy just past puberty | गुलाम Gulam | खालतो सेवक. उपरांत हो सब्द गुलामांकयीए लागु जालो तशें दिसता. |
| ملاقاة (mulaaqaa) encounter | मुलाखात Mulakat | |
| فكر (fikar) think | फिकिर Fikir | |
| خميرة (khameera) yeast | खमिर Khamir | |
| تصوير (tasweer) photography | तसवीर Taswir | |
| قاعدة (qaaida) precept, principle, | कायदो Kaido | |
| معقول (Egy. Pronunciation: Ma'ool), reasonable, sensible, plausible | मामुल Mamul | अरेबीक भाशेंत 'q' सब्द विविध प्रदेशांनी विविध रितिंनी उच्छार करतात. थोडे तो 'g' म्हण उच्छार करतात आनी थोडे 'K' म्हण उच्छार करतात. ईजिपटांत 'q' सब्द उच्छारच करिनांत |
| ترجمة (tarjuma) translation | तरजुमो Tarzumo | |
| محل (mahal) shop | म्हाल Mhal | भारतीय जायत्या भासांनी हो सब्द चालतेर आसा. कोंकणेक हो अरेबीक मुळाथावन आयला. |
| طبل (Tabal) drum | तबला Tabla | |
| جمع (Jama') Gathering, assembly | जमो/जमात Zamo. zamat | भोव पुरातन सब्द हो. जेजुच्या जल्मा आदिंच तो धार्मिक संगतिंनी उपेगाचेर आसल्लो. अपोस्तलांच्या कृत्यांनी हाचो हाचे जायते उल्लेख मेळतात. भारतीय भासांनी परशियन मुळाथावन हो सब्द आयला. |
| مزاج (Mizaaj) mood, temperament, disposition | मिजासकी Mijaski | |

| | | |
|---|---|---|
| حكومة (Hukooma)<br>Government, regimen | चुरुक<br>Churuk / tsuruk | कन्नड आनी कोंकणेंतलो हो सब्द मैसूर टिप्पु सुलतानाच्या मुळा थावन आयला. अरबी आनी परशियनगारांच्या कुमकेन टिप्पून रोकेट तयार केल्ले विशीं माहेत आसा. भारतांत पयले पावटी झुजांनी रोकेटाचो उपेग केल्लो टिप्पून. तवळच्या मंगळूरी कथोलिकांक हाची माहेत मेळ्ळी. ब्रिटिशांनी हे विशीं माहेत आपणावन उंचल्यो रोकेटी तयार केल्ल्यो. |
| استمارة (Istimaara)<br>Form | इसतिमार<br>Istimaar | 1970 पूरवीं मंगळूरी कोंकणी क्रिसतांव अरजेंक (application) इसतिमार म्हणताले. हो अरेबिक मुळाचो सब्द. आतां हो सब्द कोंकणेंत जालतेर ना. |
| نظر (nadhar)<br>sight | नदर<br>Nadar | |
| غريب (ghareeb)<br>strange, stranger | गरीब<br>Garib | परशियन भाशेंत ह्या सब्दाक विचित्र विदेशी म्हळ्ळो अर्थ. पूण हिन्दूस्तानी/ उरदूंत ह्या सब्दाक क्रमेण 'दुबळो' वेकती' म्हळ्ळो अर्थ उदेलो. कोंकणेक हो सब्द उरदू थावन आयला. |
| بنية (buniya)<br>structure, construction | बुनयाद<br>Buniyad | परशियन भाशेंत ह्या सबदाक बुनियाद (foundation) म्हणतात. कोंकणेंतलो बुन्याद सब्द परशियन सबदाक उच्छार आनी अरथांत ताळ पडता. |
| بقي (baqi)<br>remain, continue | बाकी<br>Baki | |
| جواب(Jawaab)<br>reply | जबाव/ जाप<br>Zawaab, zaap | |

**तर्जणदाराचो शेरो:**

भासो आनी संसक्-ती एक्सूऱ्यान केर्दिंच पुर्त्यो न्हंय, म्हळ्यार खंचीय एक भास हेर भाशेथावन सब्दांचें दान घेनासताना संपर्काची संपूर्ण भास जावन रुता जायना. पूण केदनांय बळवंत आसरो (राजकीय, धारमीक) आसच्या भाशेंनी ताच्या संपरकाक आयलेल्या दूसरया भाशेंचेर प्रभाव घालचो चड. थोड्या संदरभांनी आडळत्या भाशेन दूसऱ्या भाशेचेर 'बलातकार' चलंवचोय आसता. अशें एकामेका वांटून घेवन वा बलतकारान भासां मधें उत्रांचो/सब्दांचो विनिमय जाता जाल्ल्यान

खंचीय भास वा बोली निरमळ/नितळ उराना. आदीं थावन आतां परयांत ही प्रक्रिया चलोनंच आयल्या.

उसणें घेतल्ले सब्द अनएका भाशेचे खाशेले जाताना ताच्या उच्छारांतयी जायतो बदलाप जाता.तरी सार्के पार्कून पळेयल्यार पर्की भाशेच्या सब्दांनी त्या सब्दाच्या मूळ भाशेचीं लक्षणां पळेवंक मेळतात. भासो उच्चारांत एकामेकाचेर प्रभाव घाल्तात. परकी सब्द एका भाशेक येताना ताचो मूळ उच्छार नव्यान आयलेल्या भाशेक ताळ पडचेपरीं सूक्ष्म रितीन बदल्ता. ह्या वर्वीं एका पर्की भाशेचो सब्द अन्येका भाशेक मेळोन वेळा–काळा परमाणे उच्छार बदलोन त्या भाशेंत विलीन (म्हणजे त्या भाशेचो खाशेलो सब्द जाताना ती भास विसतार जाता. हें एका भाशेंतल्या सब्द भंडाराच्या वावावळेक भोवच गर्जेचें. कोंकणेंत मिसळाल्ल्या कांय थोड्या परशियन सब्दाविशीं हें लेखन उज्वाड फांकयता. तरी ह्या विशीं चडीत सोधनांची गर्ज आसा. असल्या सोधनांक हें लेकन पयलें मेट/ प्रेरण जांवदी.)

*(**बर्ट नायक** ऐ.टी. सलहादार जावनासोन आपल्या पावट मेळताना संसोद वावरांत व्यसत आसता. पुर्विल्या ब्रायमण रितिची ("Shastrey") गूण कर्पी पद्दत आनी बैबल अध्ययन ताचे आसक्तेचे विषय. ताणे "Shastrey: The Brahmin Secret For Incredible Health" म्हळ्ळो बूक बरयला. तो इंगलिशांत आसोन, फ्रेंच, स्प्यानीश, पोर्चुगीस आनी जर्मन भाशेक तर्जण जाला. बैबल अध्ययना खातीर तो कुरान मुळाची अरेबीक शिकला. ही जेजुच्या काळार जुदेयांतल्लो जुदेव लोक उलवन आसलेल्या अरेमायक भाशेक भोव लागशिली जावनासा.*

***जोकीम पिंटो, वामंजूर,** कोंकणी लेकक. प्रसतूत सां लुवीस कोंकणी संस्थ्यांत कार्यसंयोजक जावन वावुर्ता.)*

# मंगळुरी कोंकणी कादंबरी आनी मिडल इश्टांतलें राजकी, समाजीक धागे विणपीः 'काळें भांगर'

– डॉ। चंद्रलेखा डिसोजा

कोंकणी कादंबरीः शंबर वर्सां, 2011 ह्या वर्सा जाग अंक कोंकणी कादंबरी विशीं विविध विशय आनी आशय घेवन प्रकाशीत जाल्लो. तातूंतच कानडी लिपयेंतली समकालीक कोंकणी कादंबरी', ले. एडविन जे .एफ. डिसौजा ह्यांचो लेख वाचिल्लो. गोंयांत 'क्रिस्तांव घराबो' ही कादंबरी 1905 वर्सा बरोवन जाल्ली, पूण प्रकाशन 1911 वर्सा जालें. धर्मीक आनी मनीसपणाच्या मुल्यांचेर आधारिल्ली ही कादंबरी ब्रून द सौज हांणी बरयिल्ली. कन्नड लिपयेचो विचार केलो जाल्यार 1950 वर्सा ले.ज्योकीम सांतान आल्वारीस हांची, 368 पानांची आंजेल कादंबरीन आकार घेतलो. समाजीक कादंबरी पूण ताका प्रगट करूंक कोणूय तयार जालो ना. धर्मीक वांगडाच समाजीक संदेश आशिल्ली ही कादंबरी मांय–सुनेची सामान्य कथा घेवन येता. पन्नासा वयर कोंकणी कादंबरी बरोवपी हो कादंबरीकार म्हणल्यार कन्नड लिपयेंत 'क्लासीक' साहित्य दिवपी बुन्यादी फातर.

नांचेच समकालीन दे. व्ही. जे. पी सल्दाना (खडाप), दे. ए. टी. लोबो (एटयेल, श्रीचेन्ना), दे. गेब्रियल डिसोजा (श्री गब्बू, उरवा), आदी. 1960 वर्सा उपरांत नव्या पिळगेचो उद्भव जाता. हातूंत डॉल्फी लोबो, स्टेन अगेरा, ल्यान्सीं पिंटो नायक, फा. विलियम द सिल्व, ग्रेबियेल वाज, आयरिन पिंटो हीं नांवां येतात. हें सगलें एडविनाच्या लेखांतल्यान कळटा. फुडें ते बरयतात की तांची प्रथम कादंबरी 'निमाणी शेळी' (1967, पानां 466). 'जाग' 2011, पान. 16, 17 हांचेर ते आपलो उद्देश जाहीर करतात–

साहित्यांय मेटां दवरतना एक खाजगी उद्देश पोसून दवरलेलो. विदेशी साहिताचो भरपूर प्रभाव हाचेर आसल्यान आनी हेर साहित्यांत आसा तर कोंकणींत कित्याक नजा म्हळ्ळें सवाल मनींत घेतल्यान ताणें सबार 'प्रथमां' साहिताक दिलीं.

– प्रथम गुढचारी कादंबरी– ‘पिलातान दिल्लें फर्माण’
– प्रथम वैज्ञानीक कादंबरी ‘तें आयल्यात’
– प्रथम अस्तित्ववादी कादंबरी ‘हांव जियेतां’
– क्लोनींगाचेर आसल्ली ‘ब्लोंडी’ नवलिका. (तीन आवृत्ती) येदोळ पर्यांत नोव प्रशस्त्यो लाबल्यात.

आतां मेरेन 33 कादंबरी बरयिल्ल्या ह्या कादंबरीकारान कुवेताचेर इराकान आक्रमण केल्ले तेन्ना आपल्या कुटुमा वांगडा आसतना स्वताक आयिल्लो अणभव ‘म्होंव आनी रोगोत’ कादंबरी रुपांत हाडलो. हाचे उपरांत मध्यप्राच्याचे परिगतीचेर खूब संसोद करून ‘काळें भांगार’ ही कृती दिली. देवनागरी लिपयेंत 2013 वर्सा प्रकाशीत जालीं. 2017 वर्सा हे कादंबरेक साहित्य अकादमीचो पुरस्कारूय लाःबल्या. हाका लागून कादंबरीकाराक परबीं. ‘जांबिया’ आनी ‘दहशत’ राकणो पत्रार प्रगट जाल्यात. आतां हो रचनाकार आपल्या चवतिसाव्या कादंबरेचेर काम करून आसा.

मिडल ईस्ट – मध्यप्राच्य – भारतीय लोकां खातीर सर्ग जावन आसा. जरीय थंय दुडू खूब मेळटा, तरीय थंय काम करपी लोकांची स्थिती वायटूच आसा. आखाती देशांत वचपी फकत गोंय आनी मंगळूरचेच नात तर मद्रासी, मलबारी, कन्नड, तुळू, उत्तर भारतीय लोक लेगीत आसाच.

साहित्यीक कृती म्हणल्यार आशय आनी आकाराचें संयोजन. हें संयोजन करतासतना लेखक आपले अणभव, वैचारीक परिपक्वताय, आपली जीण, समाजीक विश्व, ताची मानसीकताय, अर्थशास्त्रीय संबंध, मानवीय नैतीक मुल्य ह्या सगल्यांचो प्रत्यक्ष वा परोक्ष रितीन उपेग करता. वास्तवीक आनी काल्पनीक अशें विणून येता की कृतीचे टेक्सचर तयार जाता. कपडो विणपाक तंत्र आनी टेक्नोलॉजी लगता तशेंच साहित्यीक कृतीचे पूण आपलें खाशेलें विश्व आसता. वाचक जेन्ना ताचे रसास्वादन करता ते साहित्यीक विश्व विश्लेशीत करपाचो यत्न करता. दरेक कृतीचे एक प्रस्थान बिंदू आनी गंतव्य–destination– बिंदू लेगीत आसतातततच. रसास्वादक प्रस्थान बिंदू वयल्यान आपलो प्रवास सुरू करता. तेन्ना आपल्या आस्वादकीय तत्वांत, बरोवप्याचे साहित्यीक संवेदन आत्मसात करून घेता. हे आत्मसातीकरण वेवस्थीत रुपांत जायना तर आस्वादकीय प्रक्रिया ह्या संवेदनाचेरूच पुराय जाता. आनी समीक्षा – Review, आलोचना – Criticism हांचो प्रस्नूच उपरासना. आस्वादक आस्वादनाचो आनंद घेता. दुसर्‍याक सांगता, संतुश्ट जाता आनी ती प्रक्रिया समाप्त जाता. आस्वादक जेन्ना आस्वादकीय प्रक्रियेंतल्यान, चिंतन, मनन

करून लेखकीय संवेदनाक विश्लेशीत करताना आशय आनी आकाराची सफळताय विशीं महत्वपूर्ण मुद्दे थारायता तेन्नाच समीक्षा, आलोचना उपरासता.

'काळें भांगार' कादंबरेचो आशय म्हणल्यार मिडल ईश्ट, कच्चे तेल, ताचे राजकारण, ताचे राष्ट्रीय–आंतरराष्ट्रीय धागे, थंय काम करपी लोक, तांची काळ्या भांगराची वास्तवीकताय–

'तुमकां तरणाट्यांक लागलां गल्फाचें पिशें' ताणें म्हळ्ळें. थंयचे काळें भांगार निनळ केल्याशिवाय ते दुड्डू दिता? आनी तें काळें भांगार ते आरबी आदी निनळ करतात आमच्याच रगतान!' (पान 198).

हें रगत मंगळुरी, मलयाळी, कानडी, उत्तर भारतीय वांगडाच पाकिस्तानी, बंगला, फिलिपियन्स, श्रीलंकन, आदी. सर्व एशियन संबंद, तांचें घराणें, मध्यम वर्गीय संघर्ष, तांचीं सपनां, संस्कृती.... विकृती.... रघु शे ीचें चरित्र (पान 83, 403) जाका लागून एकटें पडिल्लें डिना, मैत्रीण इवोन म्हणल्यार जिल्ली टिचेरीचे घरा रावता. कादंबरी खूबश्या पात्रांनी भरल्या. देखीक–




हांच्या वांगडाच नोरा–कुवेटाक नोकरी. सॅली कुरीयन–चीट फंड कंपनी–कारीस्मातीक व्यक्तित्व. विल्माची भयण वीरा, तेज्जाण्टी, काजितान गोम्स, शिंटो, इरानी सैनीक, भारतीय एम्बेसीचे अधिकारी, आदी.

मंगळुरी मानसीकताय हो केंद्र बिंदु. मल्याळी–मंगळुरी संघर्ष. भायले–भितरले वाद. अस्वस्थताय. तरीय आमी सगले भारतीय. हेंच भायले भितरले जेन्ना मिडल ईश्टाक वता तेन्ना आशीयन जाता. मध्यप्राच्य लोकां खातीर हें आशियन लोक भायलेच जातात. बंगला देशी, पाकिस्तानी, श्रीलंकन, फिलिपियन्स, आदी. मनशाचें मन खरेंच विचित्र आसता. मंगळुरांत रावपी मंगळुरकार आनी मल्याळी एकामेकांचो

दुस्वास करता पूण हीच मनशां सद्दाम हुसेनाच्या आक्रमणाच्या चक्रांत सांपडटा तेन्ना सगलीं एकामेकांक आधार दिवपाक एक जातात.

कादंबरे विशीं बरोवपी एड्वीन जे. एफ. डिसोजा हांच्या उतरांत– 'ही जावनासा लांब कथा दोन विभिन्न सन्निवेशांनी सांपडलेल्या कुटुमांची. एका कुटुमांत काळ्या भांगाराचो दुडु व्हाळटा. हुंकार आनी दुस्फटाय चड्टा आनी भुर्गीं दुस्पड्टात आनी पिड्श्चार जातात. असली परिगत दोळ्यां साम्कार घडटा तरी आमकांयी गिरेस्त जांवंक जाय आनी गिरेस्त जांव्चें हुक्क आमकांयी आसा म्हळ्ळें धोरण घेव्न कशेंयी पुणी कुवेताच्या हुब्रार पावल्या एका तर्नाट्याची कथा ही' (पान 7).

हो तरणाटो म्हणल्यार जेरी. जेराल्ड पायस. टिचर जिल्ली पायस आनी मिक्की पायसाचो पूत. जॉनी डिक्रूज आनी विल्मा डिक्रूज हांचो भाचो. आपल्याच भाच्याक त्रासांत घालपाक विल्मा जेरीक एक किलो कसकसो (पान 246) खसकसो घेवन कुवेताक यो म्हण सांगता. जिल्ली टिचेर आपले भावजे खातीर मसालाच्या रुपांत खसखसो–कसकसो–धाडटा. तांकां कुवेताचे कायदे खबर ना पूण विल्माक खबर आसतना लेगीत आपल्या अपमानाचो बदलो घेवपाक ही येवजण करता.

पान 273 हाचेर दिल्ले संभाशण वाचतना कळटा की त्या वस्तूक हांगासर निर्बंध आसा.

'म्हज्या आण्टीन म्हाका तें हाडपाक बरयिल्लें देखून एक किलो कसकसो.... (खसखसो) तें नांव काडिनाका इडियट! म्हणलो तो मानेस्त. हांगासर त्या सब्दाचो अर्थ आवयक लगती जाल्ली एक कठीण बुरशी गाळ जाता.'

एक तर जेरीक भास कळना आनी दुसरें हो कसकसो. जाका लागून कुवेत एरपोर्टारच, जेरीक पुलिस धरता. हेवटेन नोरा, जेरीची वाट पळयत रावता. निमाणें परत वेता. हेच राती कुवेताचेर इराकाचे आक्रमण जाता, आनी त्याच खिणाच्यान जेरीचे हालउपाद्रेय सुरू जाता. ताका खंय खंय भोंवचे पडटा... तो आपल्याक कसो वाटायता.... निमाणें काजितोर आनी नोराक तो कसो मेळटा? ही काणी वाचतना शेक्सपियरच्या Othello नाटकाची याद जाता. त्या नाटकाक 'Kerchief Tragedy' म्हणटात कारण Othello ची नायिका Desdimona तिचो एक रुमाल शेणटा. आनी व्हडली शोकांतिका जाता. थोडे आलोचक अशेंय बरयतात की Minor thing play major role in this drama. तशेंच 'काळें भांगार' कादंबरेंत कसकस्याचे–खसखस्याचें एक पेकेट जेरीची वाट लावपाक कारणीभूत जाता.

नोरा, काजितोर, जेरी आनी सॅली कुरियन मानवीय संदर्भांत खूबच विस्नत जाता. लेखक सॅलीच्या व्यक्तित्वाक कारीस्मानीक म्हणटा, तें योग्यच दिसता. बाकीचीं पात्रां आपलें घर, कुटुंब, राज्य, प्रदेश, देश आनी विदेश संदर्भांत विस्नत जातात. मध्यम वर्गाचें सपन डॉलर आनी दिनार. काळ्या भांगाराचो हो दुडू व्हाळटा थंय पयसो वाडटा पूण मानवीय मुल्यां पयसावतात. गिरेस्तकाय वांगडाच तीं दुशणांय हाडटा. भुरगीं अहंकारी जाता. लक्ष्मी येता पूण ती म्हालक्ष्मी जावन पवित्रताय आनी स्थिरताय हाडूंक पावना. चंचळ लक्ष्मीचें स्वरूप टेरेन्साच्या पात्रांतल्यान धुंवरी वखदांच्या दुशणांतल्यान सर्वनाश पातळायता... तरीय आवय मोली पिरैर जागी जायना, वयल्यान दुसर्‍याक दोश दिवन आपल्या पुताक दोश दिना. टेरेन्साचो जीव घेवनच ड्रग्साचे विषचक्र आपलें विष विळख्याच्या रुपांत सगलें नश्ट करून उडयता, तरी लेगीत मोली पिरेर जे रितीन वागता तेंच स्पश्ट करता की काळ्या भांगारान सबंध आयुश्य काळें करून उडल्या (पान 112-119).

उंचले सोसायटीच्या रिवाजी प्रकारांत तांची जीण कितली अडेची जाल्यांत.... उदकापरी दुडू खरचातली....पोलीस केस जावंची न्हय पूण ड्रग्सांची सर्व खुणां... मादक वखदाची सिसली लिपयता. ही कथा जाली टेरीबाबूची... ताची जिणूच एक पिडा. ह्या समाजाची हीं भुरगीं, समाज कल्याण, मनीसपण, जीण संघर्ष, कश्ट हांचें पासत कितली पयस जाल्यात हेंच दाखयता.

सॅली कुरियन आनी मोली पिरेर कॉलेजीची इश्टागत. दोगांयची जीण दोन तोंकांची. ल्हवू ल्हवू आप-आपल्या कामांत इश्टागत उणी जायत गेली. केन्ना केन्ना मेळप जातालें पूण जीण विशीं सॅलीचें चिंतपच ताच्या व्यक्तिच्वाची वळख करून दिता-

'आमी हर एकलीं दुदा फातरान धांपल्ले फोंड म्हळ्ळें उडास दवर. हे फोंड उस्तोंचे न्हय. आमचीच कुसडाय वयर पडता' (106).

टेरी वा टेरेन्स बागक्कुटा गॅंग हांच्या मादक वखदाक बळी पडलां हें सांगूक म्हूण सॅलीन, मोलीक आपयलें. जेरी, टेरी आनी सॅलीचो भाचो शिंटो. हांची इश्टागत आशिल्ली म्हूण मोली जेरी आनी शिंटोक शिणटा तेन्ना लेगीत सॅलीची उतरां मनशाची संवय विशीं जें तत्वगिन्यान सांगता तें आयकून अशें दिसता की दुसर्‍यांचे दोश पळोवचे परस मनशान आपलीं पानकांच पयली पळोवंक जाय अशें म्हणटा.

'.....आर्दी जिणी हेगंची पानकां मेजच्यांत आमी ख्रर्चितांव आनी दुसरें अर्द

आमच्याच निराशेचें लेक करच्यांत' (107).

हय, खरेंच सांगता सॅली. मनीस जात, कात, भांगार, म्हजें–तुजें....हेरांक आपल्या परस उणें लेखपी आमी.... आपलें मनीसपण वगडावन बसल्यात. मोलीक आपलो दोश दिसना... हेरांक दुर्स दिवन कितें फायदो? दुडू आसून मनीस भौतीक जीण आरामांत जगता... पूण आपलेपण, मनीसपण हांचें पासत पयसावता. दुडू बरे संस्कार दिवंक पावना. टेरीची जीण पळयल्यार प्रस्न पडटा की जेरी आनी शिंटो बियर वा सोरो पियेताता पूण मादक व्यसनी जावंक नात. हाची कारणां, अर्थीक, मानसशास्त्रीय, समाजशास्त्रीय, नैतीक शास्त्रीय खूबशीं आसूं येतात. मोलीक दिसता पांच हजार कित्याक आपूण पांच लाख दिवंक तयार... आसा... पूण इतले दुडू कित्याक जाय हाचो विचार कित्याक करिना? जेरी आनी शिंटो आपल्या इश्टाक वाटावपाक म्हूण यत्न करतात पूण मोलीक आपल्या पयश्या मुखार आनी कांय दिसचना. पयसो जिणें खातीर गरजेचो पूण सर्वस्व न्हय. तो जर सर्वस्व जाता तर मनशां भितर मनीसपण उरना. दुसर्यांचो मान अपमान पयश्यांनी मोजूंक जायना हे भान लेगीत उरना कारण पयसोच म्हजो परमेश्वर जाता. खरें गिन्यान सांगता, आत्मो तसोच परमात्मो. आत्म्याचे व्हडपण आत्म्यानच जोडूं येता, पयश्यान न्हय. मोलीचो हो वेव्हारच टेरीची जीण पिड्ड्यार करता पूण मोली जेरी आनी शिंटोक दोश दिता. निमाणें टेरीच सोंपता, मादक वेसनाक बळी पडटा.... पयसो कांयच करूं शकना. मोलीची उतरां आयकून जेरीक, आपले माम्मीचीं उतरां याद जाता...

'जल्मताना एकच गिरेस्त जावन जल्माचे या एकदम दुबळो जावन हो मध्यम वर्ग आसा पळे....मारेकार....' (पान 40).

मध्यम वर्ग आनी उंचलो वर्ग आप–आपल्या सत् अनुरूप आपली मानसीकताय घेवन जीण संदर्भी आपलीं समीकरणां तयार करतात. कादंबरींत काणी आसा मंगळुरी घराण्याची, मोगाची, साहसाची, स्वार्थाची. ह्या मंगळुरी घराण्याचे धागे अमेरिका, बगदाद, इरान, इराक, कुवेत, बारेन मेरेन विणल्यात. मध्यप्राच्याक पावल्ल्यांची जीण आसा. लेखक आपूणच हें सांगता. दुडू मेळ्ळयान बायलो भांगारान सजल्यो, नळयांची घरां कोसळून टेरेसाचे बंगले तयार जाले... ऊंची शाळांनी दाखले मेळ्ळे... काळ्या भांगराचें हें सत् उजू आसा तितलेंच लटकें पूण आसाच बरोवप्यान पायस, डिक्रूज, पिरेर कुटुंमाचो अर्थशास्त्रीय संबंध दाखोवन, अर्थीक स्थिती बदलतना समाजीक संबंध लेगीत कशे बदलता. हें चितारपाचो यत्न केल्या. मनशाचे समाजीक अस्तित्व ताचे चेतनाचें निर्धारण करता. जशी अर्थीक स्थिती बदलता, हातांत पयसो घोळूंक

लागता तेन्ना नोराची चेतना, बॅरनाची चेतना, मोली पिरेर वा सॅली कुरियन, जेरी, पिंटो, चेरी आप-आपली चेतना आनी मानसीक मुल्यां अनुरूप तांची वागणूक लेगीत कशी बदलता हें दिश्टी पडटा.

साहित्यीक कृती आपलें माध्यम वेंचून काडपाक सक्षम आसता. चित्रकारी आसल्यार रेखा, रंग संयोजन, शिल्प आसल्यार रेखा आनी भाव संयोजन, खेळ आसल्यार त्या त्या खेळा प्रमाण ताची संयोजन टैक्नीक आनी आपल्या शरिराचें बळगें वापरून तो खेळ साकार जाता. तशेंच साहित्यीक कृती भाव आनी भास संयोजन मेळून जें रसायण तयार करता, ताका लागून कतीचो अभिव्यक्ती पक्ष व्यक्त जाता. आशय जितलो विशाल तितल्याच स्वरूपांत कृती विस्तृत जातली. 'काळें भांगार' आपल्या आशय अंतर्गतच जे विशय वेंचून काडटा तो पेट्रोलियम प्रोडक्ट म्हणल्यार कच्चे तेल, ताचें राजकारण, पयलें विश्व, दुसरें आनी तिसरें विश्व म्हणल्यार विकसनशील राष्ट्रां, तांची अर्थनिती, परराष्ट्रनिती. ह्या सगल्यांचे धागे विणून कादंबरेचो विस्तृत पट तयार जाता. ह्या रचनापटांत वास्तविकताय चड जाता कारण बरोवप्यान आपलो स्वताचो अणभव व्यक्त केल्या. मध्यमवर्गीय गद्य महाकाव्य म्हणल्यार कादंबरी. गद्य म्हणटकूच भास आयलीच. भास आपली संस्कृती धर्म आनी आस्था घेवन आपलें व्यक्तीगत तशेंच समाजीक जीवन उक्तायता. भास सदी प्रतिकात्मक आसता, आपली सांस्कृतीक नैतीक, धर्मीक विचारधारा तातूंतल्यानच संप्रेषीत करता.

– स्त्रीजावन जल्मल्ल्याक दोन खुरीस ह्या आनी त्या खांद्यार जल्माथावनच आइल्लें–

– 'पयलो, जिल्ली टिचेर कातीन सावळें...शाळेंत आसतनाच आडनांवांचो बरगाल–दुकळ नातल्लो. टिचेर जाल्या उपरांत काळें रूप.....' (पान 17).

– 'दुसरो ऊण ताणें मतीक लाइल्लो.... आपलें घराणें बामणाचें न्हय म्हूण.... सेकंड क्लास कुटुं... दोतय जाय खंय' (पान 18).

भारतीय समाज खंयच्याय राज्याचो आसूं समाज–संस्कृती एकूच आसा. चली गोरीच जाय. सावळी आसल्यार फेअरनेस क्रीम आसाच न्हय? टी.व्हीचेर जायराती पळयल्यार काळो रंग वा सावळो रंग म्हणल्यार बहिश्कारच. दोत दिवनच सावळी चली काजार जावंक पावता. आमच्या भारतीय समाजांत, आमचे साहित्य जात–कात विणें समजूंकच जावचें ना. बामण म्हणल्यार हाय क्लास कुटुम. बाकी

सगलें नोक्लास. घडये हाकाच लागून जिल्ली त्या 'आपूट बामणां' कडेन लग्न जावपा तयार जाता. नवरो चिक्केशे कुंटोन चलतालो तरी पूण बामण आनी गोरो म्हूण उपकारता. आमचो समाज आनी समाजाचे समाजशास्त्र तशेंच क्रिस्तांव कुटुमाचो धर्मीक भावार्त 'खुरीस' ताचें म्हत्व ताचो अर्थ....आपलो खुरीस आपूण उबारूंकच जाय म्हणजे कितें? हें सगलें ह्या उतरांतल्यान व्यक्त जाता. शब्दांचो हो आकार पुराय कादंबरेंत आपलो आशय व्यक्त करीत रावता. मंगळुरी कुटुमातली भास आनी थोडी उतरां गोंयच्या लोकांक कळीत जावच्या पासत पान 446-450 मेरेन कठीण उतरांचो अर्थ दिल्ल्या कारणान गोंयचो समाज आनी मंगळुरी समाज तशेंच समाजीक भाशेंत कितलो तफावत आसा हें स्पश्ट जाता. दोनूय समाजाक लागीं हाडपाक कन्नड लिपयेंतले कोंकणी साहित्य लिप्यांतरणाचो वावर विस्तृत प्रमाणांत जावंक जाय. जशें गोंय आनी मंगळुरी समाजांत तफावत आसा तशेंच मंगळुरी समाज आनी कुवेती समाज हातूंत संस्कृती, भास, समाजीक तफावत आसा. देखून कोंकणींत अरेबीक उतरां आनी वाक्यां लेगीत दिश्टी पडटात. देखीक–

- आनी एक पावटीं पळेयां, इंशाअल्ला (पान 134).
- खुझी तायर जाताली (पान 260).
- नोराचे नुरी.....शुक्रन शुक्रन (पान 251).
- बत्तका मदनिया– सिवील आयडेंटिटी कार्ड (पान 259).
- ....आपूण इंडियन खादिमा तें (सर्वेंट) इंडियन खदिमाच (पान 262).
- तेज्जोण्टीचो वास्ता–इन्फ्लुयैन्स–आसा न्हय? (पान 262).
- शूसार्र? सू मामला ह्या ओक्ती? (पान 265)
- हयात, अल्लाह? हें झूज, हें झूज (पान 265).
- हादा हर्ब.....झूज (पान 266).
- मेळल्लें कितें, कबाब, हमुराचो (हांगासर गोबरी म्हणची व्हडली मासळी) (पान 266).
- रोस्ट, हम्मूस, मुतब्बल आनी खुबूज...(पान 267).
- अर्गा अल्लाहक, म्हजी आयिला...म्हजी कुटुमा....(पान 269).
- फी अमान्हल्ला या बिन्ती, नुरी...(पान 270) (आदेव्श आनी देव तुजे संगी आसूं म्हजें धुवे नुरी?)

– तशेंच जेरीक जेन्ना अधिकारी चेक करता तेन्ना आयिल्ली उतरावळ देशाची आनी संभाशणाची गरज म्हूण आयल्यात. (274, 275, 276).

कुवेटांत जी उतरावळ गरजेची ती मंगळुरांत उपकारना म्हूण लेखकाची शै आनी उतरावळ गरजेनुसार आयल्या देखीक–

पान 25 ते 32 हाचेर तरणी पिळगी, कॉलेज, तांची उतरावळ, तांचें वि मल्याळी लोक मंगळुरांत बिजनेसां करतात म्हूण 'त्या भायल्यांचो' दुस्वास ला येंजॉय करपाची टेरेन्साची उतरावळ. सिग्रेट आनी मादक वयसनां....तर तांकां बळी पडटात. आवय–बापूय पयशे जोडटात भुरग्यांक मंगळुरांतच खार हॉस्टेलांनी दवरिजे पडटा पूण काळ्या भांगराच्या हंकारात पयसो इतलो उलो लागता की टेरेन्साची जीण बाराकु का बळी पडटा. समाजांत जे दुशण वाड ताचे विशीं लेखक आपलो हुस्को व्यक्त करता. भास कितलो प्रतिकात्मक तें पळोवया–

'बाराकु म्हणल्यार एके जातीची मासळी, जी आपल्या तोंडांक मेळल्लें पिंजून तीर तिरकूट करून खआवचें तसली.'

भाशेचें कामच आसता योग्य उतरां आनी तांचो योग्य वापर. बाराकु आप अर्थाप्रमाणेच जीण पूण पिंजून... सबंद आयुश्य तिरकूट करून उडयता ( पान

कातोलिकांची कॉलेजां... मध्यप्राच्यांतलो दुडू खंयचे रितीर कुटुमां विवि करतात म्हळ्ळें कळटलें, पूण दिसनातल्लें. अमाल, मादक द्रव्यां घेवन जीण उ जातात....समाजांत संस्कृती राखण करपाचो उद्दिश्ट सफळ जायना. पान 32 मोली आनी प्रिंसिपालाचे संभाशण... मोलीची वागणूक... खूब कितें सांगून

मोली पिरेर दुडवांचो घमेंड. जिल्ली टिचेर क्लास कोन्शियस आनी म वर्गीय मानसीकताय. मोली टेरीच्या प्रिंसिपालाक म्हणटा–

'आमी मर्यादीच्या.... सोसयटींत मान आसल्ली मनशां. आमी आनी आम म्हलगड्यांनी ह्या कॉलेजी खातीर जायतें केलां. Please Remember that.'

त्या दिसा थावन प्रिंसिपालान टेरीची खबर सोडून दिली

हेवटेन जिल्ली टिचेर जेरीच्या फाटल्यान अशें रितीन लागता की हचोन तें वायट दिसता. तरी लेगीत जेरी बीयर घेता केन्ना केन्ना गांजाय बी पूण म व्यसनांत पडूंक पावना कारण ताचे कडेन तितलें दुडूच आसना. तशेंच

वयलो भावार्त आनी थोडे संस्कार घडये आड येता. जिल्ली टिचेरीची क्लास कोन्सियसनेस तेन्ना उक्ताडार येता जेन्ना ती कुवेटांत, झुजांत सांपडिल्ल्या आपल्या पुताक–जेरीक–पत्र बरयता. जिल्ली टिचेर थोडी वायटूय आसा पूण गरजेवंताक ती पावताय बी. 'कळिळगेचें हें गोरूं सेकंड क्लास' (पान 406) पूण डिना जेन्ना एकटें पडटा तेन्ना ती टिचेर डिनाक आपल्या घरा दवरता.

मंगळुरी समाजांत जिल्ली टिचेरीक दिसता की बाय आनी बाब हें उतर फकत हळ्ळेगारांनी–खेडवळांनी (पान 34) वा घरचाकरेक आसल्ल्यांकच वापरची. हाची तुळा केल्यार गोंयच्या समाजांत 'बाब' आनी 'बाय' आमी खंय वापरतात आनी खंय वापरनात हाचेर चिंतन करपा सारकें दिसता. एक समाजाचो एक विचार वा उतरां दुसर्‍याख समाजा खातीर कितें म्हत्व घेवन आसता वा आसना ताचेर संशोधन जावंक जाय. जशें कोंकणीचें एक उतर कसकसो कुवेटकारांची भाशेंत ती (पान 273) एक बुरशी गाळ जाता. दरेक समाजाची भास–संस्कृती, जेवण, भेस आदी आपलें खाशेले अर्थ घेवन आसता, ताका समजून घेवप गरजेचे जाता, नाजाल्यार एकाचे दोन जावप सभावीकच.

आमच्या देशांत, आमचे तरणाटे पारंपारीक वेवसाय करपाक तयार नात. हांगा जेरीक आपल्या बापायचो टेलरींग बिझनेस नाका. शेत, भाट, गांव खंयतरी फाटीं पडूंक लागल्यात. आमचे शिक्षण आमकां White Collar Job खातीर तयार करता पूण शेतां भाटांत माती वा रेब्यांत घाम गळूंक शिकयना. हाचेर आमी, आमची शिक्षण वेवस्था सगल्यांनी मेळून चिंतन करूंक जाय. लेखकाचें काम आसता समाजाक देख दिवप, मार्ग दाखोवप. त्या मार्गार चलून समाजा खातीर कल्याणकारी काम करूंक, सगल्यांनी कार्यशील जावंक जाय.

काळें भांगाराचें आनीक एक खाशेलेपण म्हणल्यार ल्हान ल्हान वाक्यां पूण अर्थ खूबच भरल्या.

–परिपिकाय म्हळ्यार दैहीक वाडावळ न्हय (46).

–फेल. परीक्षेंत.व्हय. जिणेंत न्हय (46).

– फिलोसोफर कोण? जरी तरी कोण एकलो/एकलें जिणेच्या एक घडयेंत पुणी थांबोन, 'कित्याक'– Why म्हळ्ळें सवाल विचारची फुरसत करता. तो या तें जावन आसा तत्वज्ञानी (47).

–जिणेंत नांवां बदलियेत, जागे न्हय (48).

– .......तर तुज्या बापायक सांग, म्हाका सोडचीट दिवन सॅली कुरियनालागीं काजार जावंक (51).

–दुदांत लिंबो पिळूंक तुजेलागीं शिकजे (51).

–मोली पिरेरीच्या ह्या उतरांनी थंयसर देवंइल्लें मौन कोंचावन–खोरावन–भोकरून काडयेंत म्हळ्ळें तितलें दाट आसल्लें (220).

मौनाचीं हीं प्रतिकात्मताय उतरांनी कशी व्यक्त जाता आनी वातावरण तयार करता. शब्द–शक्तीचे हे कौशल्य काजितोनाच्या पात्रांतल्यान लेगीत व्यक्त जाता. कठीण परिस्थितींत लेगीत आइल्लें हे संभाशण–

– तो कितें म्हणालो? जेरी

– म्हाका जावंय करता म्हणालो? जाप दिली काजितानान.

– भियेल्यार जावंचे तरी कितें? गन ताच्या हातांत आसा. आमी भियेल्यार तांतले गुळे कांय मोव चॉकलेटां जानात? (323).

– आमी खंय आसावं? (322).

– बोंबय आसावं रे मंगळुरी! (322).

– आरब्यांचे दगले न्हेसण (दिसदाशा) घालून हो काजितान ज्या रितीन लेखकान चितारल्या ते चित्रण लेखकाची शैली विशीं खूब कितें सांगून वता.

– बसल्ले कडेन भांगराचें शीत घालची तांक आसा आमकां (39).

हांगा प्रस्न उपरासता की हें शीत खावचें करी कशें? पूण लेखकाक हांगा शब्दार्थ दाखोवपाचो ना ताचे लक्ष्य तर अभिधा, लक्षणा नासून व्यंजना आसा, कारण पयसो कितलो व्हाळता हाचे चित्रीकरणाचो जो उद्देश आसा तो ह्या वाक्यातल्यान सफळ जाता (39).

आनीक एक वाक्य–

'...आनी आनां टेरी म्हळ्ळें चलचें मोडें–मडें–बल्मठा इंद्रभवना कुशीन मोडयाची चाल चलतालें' (पान 32).

(अमाली जावप म्हळ्यार कितें...मादक व्यसनांनी मनीस मडेंच जाता न्हय? मागीर ताका आनी दुसरी चाल खंयची? लेखक एक एक वाक्यांनी अर्थसभर

उतरावळ वेंचून काडटा आनी आपली अभिव्यक्ती सशक्त रुपान करता.)

वेगळीं वेगळीं पात्रां तांचें चरित्रचित्रण कुशळतायेन जाल्या कारणान सगलीं पात्रां आपल्या प्रसंगानुरूप सफळतायेन चितारपाक लेखक सफळ जाला.

–राहू–केतू दोनय आपल्या वाहनाच्या पाटल्यान लागल्लें परीं काजितान ड्रायवींग करतालो (324).

राहू–केतूची महादशा फाटल्यान लागल्यार कितें जाता? मनशाचे हालहवाल करून उडयता. हांगा राहू–केतू कोण हें आनी स्पश्ट करपाची गरज दिसना.

'काळें भांगार' कादंबरींत आनीकूय उतरां भांगार, समाज आनी संस्कृती भांगार समाजशास्त्रीय, भासशास्त्रीय, व्याकरण शास्त्रीय भांगार लिपून आसा. हाचे अध्ययन जावचे तें भांगराळ्या कोंकणी मोगीन करचे...काळ समृद्ध, समय बळवान... बहुरत्ना वसुंधरा...

लेख खूबलांबल्या पूण नोरा वा नूरीचीं उतरां, एक ल्हान व्यक्तिमत्व आपल्या कर्तृत्वान कितें करूं शकता ती प्रेरणा आमकां सगल्यांक मेळूं तीं वाक्यांचीं देख दिवन लेख सोंपयता.

–'जिणेंत कोण कसल्याक प्रमुखता दितात म्हळ्ळ्याचेर सर्व होंदीन आसा' (132).

– चडावत हर एकल्याक एक सांगाती आसा पूण हो सांगांत बेडरूमापर्यंत पावता म्हण हेरांनी उलोवंचें सारकें न्हय (132).

– सुक्राराचें 'पिकअप' चलता... म्हण... (132).

– पान 328, 329, 324, 325... हांगा नोराची वागणूक त्या 'आरब्यांचो दगलो' घातिल्या काजितोना समोर.... हिंदी कोंकणी उतरावळ मर्कट–तिर्कट पूण निखालस. मंगळुरी चिकू जेरी, नोरा काजितोन, सॅली....आक्रमणा वेळार नूरीचे नूर खरेंच– 'तीन फुटींची बावली' (329) वामन आसून विराट कार्य करपाक सक्षम जाता. तिचो आत्मविश्वास आनी तेज्जाण्टीची 'कोडयाळी तकली'(354) मतबकांत–किचनांत–काम करपी ही तकली नोरा खातीर आधार स्तंभ जाता. ड्रायवर इशान–पाकिस्तानी–नोराचो भाव जावन भयणीचो सांबाळ करता. ह्या सगल्यांच्या मनांत धैर आनी भावार्थ हेंच तांचें बळगें जाता. विल्माचे बाबतींत व्ही. सी.आर उरलो. सगलें सामान कुवेटांतच उरलें. कादंबरीचीं पात्रां आपले गंतव्य

स्थान Destination–मेळयतात. आमकां कोंकणी मोग्यांक, कोंकणी समाजाक, कोंकणी भाशेक आपलें गंतव्य स्थान मेळूं. ते खातीर आमची प्रमुखताय कित्याचेर आसा ताचेर सर्व होंडोन आसा. कोडयाळांत उपेक्षीत आशिल्लें कोंकणीचें भांगार आमकां कोंकणीची उदरगती खातीर मेळूं... कोंकणीचो विस्तार जावं. एडविनाची चवतिसावी कादंबरी म्हाका गोंयांत काळें भांगारावरीच वाचूंक मेळूं. अस्तित्ववादी कादंबरी... क्लोनिंगाचेर आधारिल्ली कादंबरी... गोंयकार कोंकणी मोगी आयकतात... 1950 वर्सा 'आंजेल' कादंबरीन सुरू जाल्लो हो धारावाहीक प्रवाह आनीक समृद्ध जावं...

*(**डो चंद्रलेखा डिसोजा** गोंय विश्वविद्यालयांतल्या कोंकणी विभागाची रीडर आनी मुखेली जावनासल्ली. तिणे संसोद लेखनांचो संग्रह, कादंबरी पर्गट केल्यात. तिचीं संसोद लेखनां कोंकणी, हिंदी तशें मराठिंत फायस जाल्यांत. गोयांत तिची वसती.)*

ಮೊಗಾಳ್ ಕೊಂಕಣಿ ಅಭಿಮಾನಿ,
ಸಾಂ. ಲುವಿಸ್ ಕೊಂಕಣಿ ಸಂಸ್ಥ್ಯಾಥಾವ್ನ್ ಪ್ರಣಾಮ್.
'ಅಮರ್ ಕೊಂಕಣಿ' ಷಣ್ಮಾಸಿಕ್ ನೆಮಾಳೆಂ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾ 40 ವರ್ಸಾಂಥಾವ್ನ್ ನಿರಂತರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್, ಸಾಹಿತ್ಯಾವಯ್ರ್ ಸಂಸೊದಿಕ್ ಲೇಕನಾಂ ಫಾಯ್ಸ್ ಕರ್ನ್‌ಂಚ್ ಆಯ್ಲಾಂ. ಕೊಂಕಣಿಂತ್ ಆನಿಕೀ ಚಡಿತ್ ಪ್ರಯೋಗ್ ಕರುಂಕ್ ತುಮ್ಚೊ ಮೊಟೊ ಸಹಕಾರ್ ಗರ್ಜೆಚೊ.
ತುಮಿ ಹೆ ಪರಿಂ ತುಮ್ಚೊ ಸಹಕಾರ್ ದಿವ್ಯೆತಾ.

ವರ್ಗಣಿ ದರ್ ಅಶಿ ಆಸಾ:

ವರ್ಸಾಕ್: ರು. 300/-
ದೋನ್ ವರ್ಸಾಂಕ್ ರು. 600/-
ಪಾಂಚ್ ವರ್ಸಾಂಕ್ ರು. 1,400/-
ಜಿಣ್ಯೆ ಸಾಂದೊ ರು. 10,000/-




ವಿದೇಶಾಂತ್ ಆಸ್ಲೆಲ್ಯಾ ವರ್ಗಣಿದಾರಾಂಕ್ PDF ರುಪಾರ್ ಅಮರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪಾವಿತ್ ಜಾತಲೊ. ತಾಂಚ್ಯಾ ದೇಶೀಯ್ ವಿಳಾಸಾಕ್ ಬೂಕ್ ತಪ್ಪಾಲ್ ಕರ್ತೆಲ್ಯಾಂವ್.

NEFT ಕರುಂಕ್ ವಿವರ್:
Account Name: **M/s MJES Institute of Konkani**
A/c No.: **0046053000057656** Bank Name : **South Indian Bank**
Branch: **0046 Mangalore Main Branch** IFS Code : **SIBL0000046** MICR Code : **575059002**
**NEFT** ಕರ್ನ್ **9481527394** ಹ್ಯಾ ಸಂಖ್ಯಾಕ್ ವಿಳಾಸ್ ಕಳಯಾ.

मोगाळ कोंकणी अभिमानी,
सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्याथावन प्रणाम.
'अमर कोंकणी' (कानडी आनी देवनागरी लिपिंत) षह्णमासीक नेमाळें पाटल्या ४० वर्साथावन निरंतर कोंकणी भास, साहित्यावयर संसोदीक लेकनां फायस कर्नंच आयलां. कोंकणिंत आनिकी चडीत प्रयोग करुंक तुमचो मोटो सहकार गर्जेचो.
तुमी हे परीं तुमचो सहकार दिव्येता.

वर्गणी दर अशी आसा:

वर्साक: रू. ३००/-
दोन वर्सांक रू. ६००/-
पांच वर्सांक रू. १,४००/-
जिण्ये सांदो रू. १०,०००/-




विदेशांत आसलेल्या वर्गणिदारांक PDF रुपार अमर कोंकणी पावीत जातलो. तांच्या देशीय विळासाक बूक तप्पाल कर्तेल्यांव.

NEFT करुंक विवर:
Account Name: **M/s MJES Institute of Konkani**
A/c No.: **0046053000057656** Bank Name : **South Indian Bank**
Branch: **0046 Mangalore Main Branch** IFS Code : **SIBL0000046** MICR Code : **575059002**
**NEFT** कर्न **9481527394 /** ९४८१५२७३९४ ह्या संख्याक विळास कळया.

# ದಾಯ್ಜ್

## ಸಾಂಭಾರ್ದೊ

ಸಾಂಭಾರ್ದೊ: ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಮ್ಹಾಳ್ಘಡ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಪಿಳ್ಗೆಥಾವ್ನ್ ಪಿಳ್ಗೆಕ್ ದೆಂವೊನ್ ಆಯಿಲ್ಲ್ಯಾ
ರಾಂದ್ಚ್ಯಾ ಖುರಾ ವಯ್ಲ್ಯಾ ಸಾಹೆತಿಂಪಯ್ಕಿ ಸಾಂಭಾರ್ದೊಯಿ ಏಕ್. ಪಾಂಚ್ ವಾ ಸಾತ್
ಕಂತ್ರಳಾಂ ಆಸ್ಚ್ಯಾ, ಸಾಗೊಣಿಚೊ, ಬಿಟಿಚೊ ವಾ ವೆಗಿಂಚ್ ಯೇರ್ ಯೆನಾತ್‌ಲ್ಲೊ
ರುಕಾಚೊ ಕುಡ್ಕೊ ಪೊಕೊರ್ನ್ ಕರ್‍ಚ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಸಾಹೆತಿಂತ್ ದಿಸ್ಪಡ್ತ್ಯಾ ರುಚಿಕ್ ಆನಿ
ಭಲಾಯ್ಕೆಭರಿತ್ ರಾಂದ್ಪಾಕ್ ಜಾಯ್‌ಪಡ್ಚೆಂ ಜಿರೆಂ, ಸಾಸಾಂವ್, ಹಳ್ದಿ ಪಿಟೊ
ಗರಮ್ ಮಸಾಲ ಪಿಟೊ, ಕನ್ಪಿರ್, ಮೆತಿ, ತಶೆಂಚ್ ಮಿರಿಂ ಆಸ್ತಾಲೆಂ. ಚಡ್ತಾವ್
ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಥೊಲಿಕ್ ಘರಾಂನಿ ರುಕಡಾಚೊ ಸಾಂಭಾರ್ದೊ ಪಳೆಂವ್ಕ್ ಮೆಳ್ತಾಲೊ ತರಿ
ಅನ್ಕುಲ್‌ವಂತಾಂಚ್ಯಾ ಘರಾಂನಿ ತಾಂಬ್ಯಾಚೊ, ಆನಿ ಥೊಡೆ ಕಡೆನ್ ರುಪ್ಯಾಳೊ
ಸಾಂಭಾರ್ದೊಯಿ ಆಸ್ತಾಲೊ. ಮಂಗ್ಳುರಿ ಜಿಎಸ್‌ಬಿ ಹಾಕಾ ಸಾಂಬ್ರಾಣಿ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್ ತರ್
ಗೊಯಾಂತ್ ಮಸಾಲೊ ಡಬ್ಬೊ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್.

# दायज़

## सांभार्डो

सांभार्डो: आमचा म्हालघड्यांच्या पिळगेथावन पिळगेक देंवोन आयिल्ल्य
रांदच्या खुरा वयल्या साहेतिंपयकी सांभार्डोयी एक. पांच वा सात कंत्रळ
आसच्या, सागोणिच्या, बिटिच्या वा वेगिंच येर येनातल्लो रुकाचो कुडक
पोकोर्न कर्च्या ह्या साहेतिंत दिस्पडत्या रुचीक आनी भलायकेभरीत रांदपा
जायपडचें जिरें, सासांव, हळदी पिटो, गरम मसाल पिटो, कनपीर, मेती
तशेंच मिरीं आसतालें. चडताव कोंकणी कथोलीक घरांनी रुकाचो सांभाड
पळेवंक मेळतालो तरी अनकूलवंतांच्या घरांनी तांब्याचो, आनी थोडे कडे
रुप्याळो सांभार्डोयी आसतालो. मंगळुरी जिएसबी हाका सांबराणी म्हणता
तर गोयांत मसालो डब्बो म्हणतात.